# साहित्य संकलन

# CONTEMPORARY KONKANI LITERATURE OF KERALA -A REPRESENTATIVE CROSS SECTION




1995

# साहित्य संकलन

संपादन :

**शरतचंद्र शेणै**







**1995**

# SAHITYA SANKALAN

A Representative Cross Section of Contemporary Konkani Literature of Kerala

Collected By :
Sarathchandra Shenoi
For Lekhak Mandal

Publishers & Distributors :
Kerala Konkani Academy
"Gokul" Cochin-682006



Printed at :
Jyoti Printers
Chathari, Tripunithura-682301
Phone : 777060

Price :
Rs. 40/-

January 1995

ISBN-81-85367-25-6



पुस्तकांतलीं मतां त्या त्या बरोवप्याचीं

# अकादमीचीं उत्तरां

आपणे आपण्यांलें साहित्य उजवाडांत हाडचे खातीर साहित्यकारांचो एकवट जाला म्हण आमकां व्हड संतोष आसा. केरळ कोंकणी अकादमीचो केट्टो सहाय्य तांकां केन्नाय आसतलो. कोंकणींत सदा बर्यान बरें साहित्य प्रकाशीत जावंका म्हणूच आमची आशा आनी त्या खातीर यत्न. असलें एक साहित्यकारवृन्द एकामेकांचो सहकार घेवन बरेंच साहित्य नागरी लिपीन उजवाडांत हाडूक यत्न काडता म्हणून हो पुस्तक "साहित्य संकलन" उजवाडावपाक अकादमी तयार जाल्या. एकेक वर्साय असले साहित्य "डायजेस्ट" भायर हाडूंक जातलें म्हण आमको विश्वास. ह्या संकलना खातीर सहकार दिल्लेल्या सगल्याय लेखकांक आमचो धन्यवाद. रसिकांक हो उपहार आवडीचो थारतलो अशी आमचो विश्वास !

—केरळ कोंकणी अकादमी



## ലേഖക മണ്ഡലാ ഖാതീർ—

കൊങ്കണീംത്തു ചാംഗ് സാഹിത്യ് നാഗരിലിപീൻ ഉജ്വഡാംവ്ചെ ഖാതീർ ലേഖകാനി എക്മെളൂൻ പരസ്പര സഹകാരാൻ ഏക് പുസ്തക് കോര്യാമുൺ അമ്മി മുക്കാരി സർലേലെ. എക്കെകെല്യാനീയ് തംഗതംഗേംലെം സാഹിത്യ് മാത്രംന്യ്, പ്രകാശനാ ഖാതീർ ദ്ദുഡയ് ദില്ലെ. തവ്വളീയ് ഏക് പുസ്തകാ ഖാതീർ പുർതേച് ദ്ദുഡ് ജല്ലേനായ് അശ്ശില്ലെ. ഹ്യാവേള്ളാർ കേരള കൊങ്കണി അക്കാദമീചെ വട്ടേൻ ഹോ സമാഹാർ പ്രകാശൻ കരുക് സൊദ്ദീലെം. തശി ലേഖക മണ്ഡലം തൂലെ സാഹിത്യകാരാംക് ദില്ലേലെം ഉത്തറ്യ് റക്കക് ജല്ലെം! ലശ്ശിച്ചെ വർഷാഥകുൻ ച്ഡ് ച്ഡ് സാഹിത്യകാരാനി സഹകാർ ദില്ല്യാർ മാത്ര് അശ്ശി ''സാഹിത്യസങ്കലൻ'' പ്രകാശൻ കര്രുക് ജത്തലെം.

ഹ്യാപാവ്ടി സഹകാർ ദില്ലേലെ സഗട് സാഹിത്യകാരാംകയ് വിശേഷാൽ കേരള കൊങ്കണി അക്കാദമീകയ് ധന്യവാദ് സംഗ്താം.

ലേഖക മണ്ഡലാ ഖാതീർ
ശരത് ചന്ദ്ര ശേണായി

# मांडावळ









# के. के. सुब्रह्मण्यन

(ज. 1939) हांगेल्या निरंतर परिश्रमान केरळाचे कुणबी लोकांमदें कोंकणी भाषेविशीं नवजागृति जाल्या. कुणबी समुदायांत पोरने कालाक प्रचार अशिल्लें बिशेष लोक-गीत "श्रवोण", हाणी जावन अजवाडाक हाडल्यां. निवृत्त हिन्दी अध्यापक आसात. केरळ कोंकणी अकादमीन घडयलेल्या "लोकवेद संमेळनांत", "कोंकणी लोकवेद आनी कुणबी समाज" हो पेपर हाणी सादर केल्ला. पत्तो: "कल्लरक्कल हाऊस" चेराय पोस्ट, एरणाकुलम जिल्ला.

कविता

# गजनीन्तु

[श्री. के. के. सुब्रह्मण्यन हांची ही कविता तांणी अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे मडगांव अधिवेशनांतलें कविसम्मेळनांत सादर केलेली आसा. केरळच्या एक कुणब्री समाजबन्धून प्रथम जावन कोंकणी परिशदेंत वचिल्ली म्हूण दाखलो करूँ येता.]

यो गो यो गो गजनीन्तु
खोरें गोण्णु गजनीन्तु
खोण्णु खोण्णु बीं घालूक
यो गो यो गो गजनीन्तु

श्रम कोरनु भात कोरूं
सग्ग जन सीत खाऊं
आजि फाल्या पेज पिऊं
यो गो यो गो गजनीन्तु

दन्ध कोरनु खावुका
श्रम कोरनु बेसुका
देवा आब्बो पुज्जा कोरूं
यो गो यो गो गजनीन्तु

आवय-आप्पा धूव गे
बुरग्यां ओट्टु कोरनु गे
तिका सग्ग त्रिद्या दीवूं
यो गो यो गो गजनीन्तु



# पावुसा काल

पावुसु चां पडता. सग जन घरान्तु बसून पोरन्नी पोरन्नी काणी सांगताय. सीं खाता फंगरोण बायल बुरगी कान दीवनु काणी आयकताय.

लोक्का लगी सत्तुली ना, एदे जना लगी सत्तुली आसा. जाल्यारीय बायिरी देवु जावना. ता लेकानी पावुसु सुरु जल्ला. अंगणा भोरणु उदाक. किते कोरणु कसलेय धेन्ध करूक ?

जोडू शक्तीने मारता. मडो, मडी, व्होड व्होड रुक, केळी मोडोन पडतली मणु मनांतु शंका. ये सेग जोडातु इसीय-तिसिय नाचताय चोयचा चां दृश्य. जाल्यारीय भित्तेरी भोय्या लगता. कचोय एक मडो न मडी न रूक घरारी पळ्यार घर खोप्पुट मोडोन पडता मणु मनांतु दिसता.

सेग जन देवा सिवरताय, कोणेय राम-राम नांव जप करताय, कोणेय कृष्ण जप करना, अनि कोणेय नारायण नारायण मुणाताय, थोडे लोकु महामय उळदिताय. सत्य सांगल्यारी एकेक घर देवस्थान मणु दिसता.

घर बन्धून पोडूक दाम नसीले जन एक ओसी, बुरग्याके एक वेळे निस्सें पेज दुवुक ना मणु रडतालो. आवुस-बाप्पुस दूसरी ओसी. दाम-दुडु आसा जाल्यारीय ओरुव-दाल, मीट-मीरे, गोडपयन्दार, चाय-काफी अडूण कितय तैयार कोरणु खावचा किस्सी ?

रत्निनितु उज्जो जलयचा किस्सी ? कचेटे चोयलारी थांग उदाक इ अवस्था. पार करूक चां प्रयासरे बप्पा, चां प्रयास !

शिवजी महा राय्या नावीक सेनात्तु अस्सीलतें बप्पिलेय सन्नलाले घरकार. कालु पोरतोलो. ब्रिट्टीश शासन आयले. तें गेल्ले. अ जनतंत्र आयले बप्पिलेय सन्नालालेय घरकाराक मोविन्दु आधारु जल्लो.

पावसु धार धारणु पडता. बप्पी दामु-दुडु नसीलो योकु मुनीस तो सोविन्दरा उसून मसोळी दोरनु पोट पालटता. मसोळी बिकु मेळ्ळे पैसानी जीवित मुकारी ओरता.

ताका एक साने खोप्पुट आसा. ता खोप्पुटांतु तो अनि तगेलें बायल बुरगी राबुन आसे. पाउसा कालांतु खोप्पुट खाल पाडत मणु दिसता.

घरान्तु भोरणु उदाक. कित्ते करूक ? कच्चे ओच्चाक ! कोणाटें संगूक ?

पाउसा काल ताका बल्लाव वेळु आते. तगेले खोप्पुटातु पोडुक स्थाल ना इ अवस्था कसी पार करूका मणु ती विचार करता. तज्जें मुकारी कसलिय वाट देखू ना.

वप्पीके एक चोडू अनि एकलो चेडो आसे. ती दोगय एक प्राथमिक पाठशालांतु सिखताय. बोयनिय बावुय एकसानो स्कूळां पवताय योकुनिमिष तोडोवु करनासी हाजर दिताय. अध्यापकालो उपदेश आयकून प्रवृत्ति करनाय.

पावुसातु क्लासा ओचा सेग बुरग्यांके चां आनन्द. विद्यालयत्तुं हिन्दु, नयत्तो, कारो मणु कसलय अन्तर ना. सेग एकमेळु जाणु मुण्णी मुणु यविसिय-तर्विसिय दावुणु बोंवताय दमेली बुरगी होड मोळा वस्त्र न्हेसुण एनाय-ओनाय. चां मोळा सत्तुली दोरणु एताय. ये सेग दृश्य कांय नसी दरिद्र बुरगी चोवुणु राबताय. घरकेटे पावुणु अवोय अब्बाटे सांगताय.

पाठशालांतु सेग बुरगी युनिफां न्हेसुका मणु नियम आसा. चेरडुअक युनिफां न्हेसुन दडचाक आग्रह आसा.

बप्पीली बायले मोगाची धुविकोय पुतांकोय दमेली बुरग्या मट वळासां दडुक श्रम करतालो. ती कसलेय दन्धा उसूण रुपया करताली. बुरंग्या सिखोणु सिखोणु आयचे समूहांतु एक चां स्थान मेळका मणु देवा लगी प्रार्थना करताली पाउसु कुब्बोन कुब्बोन आसा.

बप्पी मसोळी देरूक सोविन्दरा गेल्लो. तज्जे मनांतु एक मात्र आशा आसा "बायले-बुरग्या उपास गळुना."

तो मोचुलारी बल्ले कडून चेळळो. तगेले मित्र सन्नलानी मोचुल तण्णु सोल्ले. पावुसु पोडणु आसा. तणु तणु ते सोविन्दरा मदे पवले.

मसोळी धेरुक सुरु केल्ले. वारें मरचा आरंभिले. सोविन्दरा पाळ उंचारीय खळळाकोय ओत्ता जल्ले. जोडू मारचा सुरु जल्लो.

पाळ उंचारी उबरले तिगलें मोचुल खाळ ऊंच जाता. मोचुलांतु उदाक भरले. मोचुल बुडोन गेले. ते दोगय उदाकां पडोन गुसमुटेले.

पावुसा कालाक कोणेय मसोले न्धा ओसप ना. ते लेकुनसीण बप्पीय सन्नलोय खोडा जाका देकुन सोविन्दरा गेल्ले. तिका उदाका लगून रक्षा मेळुक प्रयास जल्लो. या अपाया वेळरीय मनांतु आसीले आग्रह पूरा करूक तीने निश्चय केल्ले.

सोविन्दरांतु चां कोलहल जाता. या गोन्दलातु दोगच मुनीस मोरणय जाण्णु खेलटता. बप्पीलेय सन्नललेय एक एक क्षण बळळाव जाता. सोविन्दरु तिका गिळचाक तयार जाण आसा.

बायले-बुरगी आशेन चोवुणु चोवुणु रबली. रबून-रबून पूरो जल्ले.

ता वेळारी कोणोय दावुन योत्रुणु सांगता एक मोचुल सोविन्दरा तटेरी पोळळा. तें कोणाले मणु सन्देह जल्ला. ही वार्ता बप्पेले बायले-बुरग्या कान्ना पळळी.

इ खबर आयकिले पेटाक तिच्चे मनांतु कसल कसल भावविचार जल्ले मणु सांगचा प्रयास अते. मोचुल दिखले पिटाक ता गांवतु सेग लोकुत्र सोविन्दरा दिक्का पावलें. बप्पीकोय-सन्नलाकोय सोदुन जायते मुनिस एकड जल्ले.

बप्पीले बायल-बुरगीं हरदयारी मारणु रडताय. ये आयकुन जनपताक दुःख सह जावुन्ना.

सन्नला जवणु बोब गलूक कोण ना. तका असीलीं अवोय. ती मोरणु एक ओरस जल्ले.

बप्पेली घरकानी एक दैव विस्वासिनी अते. तीने जैते दुःख भोगिले आसे. तियेनी कुलदेवा लगी प्रार्थना केल्ली. "देवा मेगेले घोवाक रक्षण करुका."

देवानी तिगेली अपेक्षा सन्तोषाणी आयकीली. ताने अनुग्रहु दिल्लो. "तू भिवुन्नका तुगेले दुःख आवु दूर करता".

तियेणी दोळे इसकोडोन चोयले पेटाक एक प्रकाशु दूर दिक्कारी तेळे तेळे जाता. ती चोवुणु रबली.

सोविन्दुरु शान्त जल्लो. बप्पीय-सन्नलोय रक्षेक जाय देकून श्रम करताय. ता वेळारी एक व्होड रुक तिचा मुकारी पवलो. ता रुकारी दोगय धोणु रबीले. तिका आस्वासु जल्लो

राति जल्ली कळोक जल्लो. तिका मनांतु धैर्य आयले. तीने दोगनेय देवा उळळो कोरण सांगीले "देवा तूवे अमका रक्षा दिल्ली. अमी तुका विसरुना. तुजे पय्याडे एक करोड नमस्कारु गळताए."

ता रुकारी बप्पीय सन्नलोय चाँ कोरण दोणु रबीले. तिका शक्ती मेळळी. दोगय हस्तानी ताण्णु ताण्णु रबीले.

ता वेळारी एक तारु एत्ता देखिले. तीने हस्तानी अप्पेले. तारुवंतु कप्पितानानी ये दृश्य देखिले. तका मना जल्ले रक्षे जाय देकून कोणेन प्रार्थना करताए.

तिका रक्षा करुक कप्पितानानी निश्चय केल्लो. ताने तारुवंतु साने मोचुल सोविन्दरा देवेले.

बप्पीकोय सन्नलकोय रक्षा दिल्ली. तारुवंतु दन्धकराणी तिका चाय-खाणं दिल्ले, न्हेसुक वस्त्र दिल्ले.

बप्पीने दो दिसा विशेषु तिचे लगी संगून मनांत केल्ले. कप्पित्तानाणी इ दुख काणी आयकूने तारुंवन्तु मोचुलारी सोविन्दरा तटेरी बप्पिकोय सन्नलकोय पळेले. तिका आनन्द जल्लो. तिने सेगटकोय धन्यवाद दिल्लो. सन्न .ो तगेल घरकेट गेल्लो.

बप्पीले साने खोप्पुटातु दुखानो बायल-बुरगीं रेडूण रेडूण बसलाय ता वेळारी बप्पी घरा चेडू गेल्लो. तीं ताका चोवुण चोवुण रबली. तीने रण्णे रबेले. तिगे दुःख दूर सेरले.

बुरग्यानी अब्बा हत्ता दोरणु हासून हासून नाच्चाचाक आरंभिले.

घरकानी घोवा चोवुणु चोवुणु चाय करूक गेल्ली. चाय जल्ले. गणंगा उवुकोरी केल्ली. अवोय आवू बुरगी एकसानी बसून खुशीने चाय पिल्ली. खाणे खायिले. बप्पीने दोदिसा काणी तिका संगू आयकेली. ता लेखानी पावुसु गेल्लो.



कथा

# किरातु

सें सें वर्सां पिरथोम रानांत एक किरातु आशिल्लो. ताक बायल भुर्गीं आशिल्लीं. रानांत एक घरांत वासु करतो जाल्लो तो केदनाय सक्काणि उबटोण किरातु ख्रोडु सोदूण ओता. हातां पेसकोति अस्लादी कडूण रानामोदें पावलो. रुकार आशिल्ले से सेवण्यांक्रोय ताणे लक्ष्य दोरोणु मारनु धालिल. घरकोडे होरनु बायले लागी दिल्लीं. तियेणि सेवण्यांचे फाके पेल्यां गण्णु चां केरणु मस्स रावन्दोंय केल्ली. जोवोण तयार जालें. किरातु नावूण जेविचाक आयलो. ताजे लागीं भुरगींय बेसोलीं. बायलेणि पान दोरोणु सीत्त रांवदोय वाडीली. सुवादानी पोट भोरोणु जेयीलो. भुरगींय मोस्त जेयीलीं. बागी सगट बायलेणि खायलें. अशि तो जीवीत मुकार ओरता.

एक दीसु किरातु रानांत पावलो. यंगाय-थांगाय भोवलो. ताका कांयी खोडु मेळ्ळेना. ताका रण्णे आयलें. तो राना मोदें बेसोलो. तावेळ तीन मुनीयो थांगा पावले. ताणे मुनियांले मोटे जोमीचाक गेल्लो. तावेळ ताणी किरातालागीं निमगीलें "कित्या हो दुष्कर्म करता ?"

ताणे जाप दिल्ली "मगे बायल भुरग्यां खातीर हांव करतां."

"तशी तरी दुष्कर्माचो वांटो तुगेलों बायल भुरगीं भोगतलीं वे म्होण तांचे कडे विचारून यो."

किरातु घरकोडे धावलो. बायल भुरग्यांलागी विचारलें "ओटू पाप दोष कोरनुतें हांव तुमकां खोडू हाडूणू दितां. त्या पाप दोषा

वांटो तुमकां लागी आसवे?" तीणी सेगटानी सांगीलें "आमकां भाग ना!"

यें आयकून किरातु मुनियांलागी पावलो. मुनीने ताजेलागी सांगीलें "केल्लेले पापांचे मोचनाक आनी तप कर!"

किरातु तप केरून राना मोदें बसोलो. "राम राम" जप मोण्णु जायतो कालु तो बसोलो. वाल्मीक म्हळ्यार वाळती योवूण ताजे चारी बोरी भोर्लि. त्या वाल्मीकांक लागूणू वाल्मीकि जालो.





# प्रो. के. आर. वसंतमणी

(ज. 1941) कथाकारांमदें प्रमुख. हांगेलो "भांगरा दांत" नावांचो कथा संग्रह 1993 वर्सा उजवाडाक आयला. वेंचीक कोंकणी कथेंचो मलयाळम अणकार उजवाडायतना केरळ साहित्य अकादमीन हांगेली कथाय वेंचून काडली. "भगवती"चे 1982 दीवाळी अंकांत श्री. र. वि. पंडीत हाणी हांगेली कथा उजवाडायल्या. मलयाळम आनी इंग्लीष नेमाळ्यांचेरीय बरयता. 1994 वर्साचो कोंकणी भाशा प्रचार सभेचो कथा पुरस्कार हांकां लाबला. पत्तो: "प्रेम मंदीर" पषावीडु पोस्ट, आलपुषा-688009.

# आराट

देवळांत आराटाचो दीस. जायतीं वर्सां जाल्यांय आराटाक वचून. देवळांत पावंतना वरां चार जालीं. वाहनाची पूजा चमकता. नडयार वचून पांय पडून काणीक केली. प्रसाद दिवूंक भटमाम ना थांगा राबिल्या एकल्यालागि निमगुत्राक ताणे एदेंच गांद आनी एक निर्माल हाडून हातार घालें. फूडे रुप्याचे गिन्दलांत तं भटमाम प्रसाद दिताले. प्रसाद घेवन गृहस्त भटमामांक दक्षिणा दिताले. तशी एकामेकाचो सन्मान करताले. आतां सन्मान न्हय, अपमान चमकता! कोणाक जाय दक्षिणा ? कितेंय जावो प्रसाद मेळ्ळोच मू-तेंच म्हजें भाग्य!

गरूडवाहनाचेर बेसल्ले देवाक एक आरति करयली. ताटांत काणिक घाल्लेलीय एकल्यान बेगीन काडून चीलांत घाली. कोण घेवन धावंचाक वता बी ? थांगाय हरद्यार घालचे लेखान, भटमामान एक फुलाचो कुटको म्हजे हातार उडकायलो! मन दुःखलें. नरसिंहाक चोयलों. तो हासता वे ? तो फूडे कशी आशिल्लो जाल्यार त्याच लेखान आसा! पुण खंय चोयल्यारीय काबि मुंड न्हेसून, खांद्यार "श्रीराम जयराम" छापीलें शाळ घालून राबल्याय जनां. देवळ भर दादले, बायलो, चेरडूवां. राबून धुवंचाक जायना. एक तरान पणजिरा गोपरान भायर आयलों! गोपरग्रीय, रायळनायकाचे नड्याराय चिटींचो खेळ चमकता. एकेक "ग्रूप" जावन बेसून जन एकेक उलोवन हासताय. फूडेंचे कालाक आशिल्लो आनंद खयंच दिकूक ना. पिंपळाचे काटयार त्रिके जागो आसा. हांव थांगा वचून बेसलों.

"कितें पुतो एकलोच बेसला ? केदाणा आयलो ?" खबरे माम मुकार राबीला

"आतांच पावला खबरे माम. तूं केदाणा आयलो ?"

"हांव गुडिये पूजा धरून आसा. आनी कितले काळ म्हो देवाक न्हयवे कळता !"

"हें कितें ? तुका मेळ्ळेलें नवेंच कावि मुंड ? देवळ भरू कावि सू ?"

"म्हजे पुतो, हांव परनो मनीस न्हयवे ? माका नवसाण कां सायना. दीस वतावतांच नवेनवेंच एकेक दिकूक येता बापा ! कायं पळोवनातिल्लेंय आयकूनातिल्लेंय भोवंचेंच चांग !" (चारीय तां चोवन) "कित्याक पुतो आतां साभार जनां कावि न्हेसताय ? तीन चार वर्सा जाल्यांय हें देखूक येता !"

"स्कूळांत सग यूणिफों ना वें खबरे माम ? तेच लेखान देवळांतूंय एक यूणिफों ! यूणिफों कित्याक घालताय म्हूण चेरडुवांक कळना. तें तरि घाल्लेना जाल्यार स्कूळाचे भायर घालतलीं म्हूण तांकां बरें कळतायीय ! तेच लेखान जावयात, देवळाभायर बी घालीत वे म्हळ्ळेले भयान जन कावि न्हेसताय ! एदेच काळ लगेन वतना, कावि मुंड नातोलें बेवळांत चडोवना म्हूण नेमूच येतलो जायत !"

"साबाव बेस पुतो ! हांगा तशी कांय चमकुन्ना—"

"कोणाक कळता, खबरे माम ? चमकूयात !"

"व्हय बापा ! जाल्यार तरीय हें काविवस्त्र सगट जनानीय न्हेसूयात वे पुतो ?"

"नज म्हूणूच तं हावें समजून घेतल्यां ! कावि म्हळ्यार ऋषि, संन्यासी, ब्रह्मचारी हांचे सारक्या देहशुद्धि आशिल्ले महंतानी तं न्हेसूका. तें गृहस्तांक आशिल्लें न्हय. ताका ताजें एक महत्व मोल सगट आसा. खदर न्हेसताय जन ताजें मोल महत्व कळून वे ? मनशुद्धि आशिल्ले मनीसांक तं खदर. पुण तें न्हेसल्यार "कोणग्रस" जाता म्हूण लेखून साभार जनां खदर न्हेसताय. खदरधारींमद्दें चांग

कोण, कूडें कोण म्हूण कळत वे ? तेच लेखान साभार जनानी कावि न्हेसल्यार संन्यासी कोण, गृहस्त कोण म्हूण कशी कळतलें? कावि न्हेसतना आमी गृहस्त सत्याक महंतांचो अनादरूच तं करताय !"

"व्हय पुतो, माकाय तशीच दिसता—"

"खबरे माम, कावि न्हेसूचें तागतागेलें मन म्हूण लेकूया. समाराधनेक बेसूक दादल्यानी चोगो मेकोळका म्हळ्ळेलें खंचे ग्रथार कि आसा ?"

"चोगो मेकोळो म्हूण कितें जालें सायबा ? हावें आज तांय हो चोगो घाल्लोलोच ना मू !"

"चोगो मेकळ्यार कांय ना. देहाक वारें मेळतलें. मनशाले पूर्वीक नागडे न्हय वे भोंवताले ? सुमार साठ सत्तर वर्स फूडे खालचे जातीचे बायलानी धनियाले मुकार वचे वेळार हरद्यार वस्त्र घालूक नज आशिल्लें ! आतां बी ताणी तेच मारकीं भोवंका म्हळ्यार तीं कानसूलो मारून फुटयतलीं कि ना ? शेंडी कातरून, चोगो घालो म्हूण मेगेले म्हांताक आबोन मारनु भायर उसळायलोलो म्हूण आग्र म्हणताली. तो काल गेलो. आतां आतां चोगो नानीलें घराचे भायर देवनातीलो काल पावला ! आनी आतां हांगा आमी चोगो घालूनयें खंय ! आमी आमगेलो फूडेचो संस्कार आपणायनाय !"

"तूं सांगून येता तें कितें पुतो ? सामकीच सांग. माका समजूक जायना !"

"तुका समजूक जावुन्ना. चोगो काडून जानवें भायर दाखयल्यार मात्र वे ब्राह्मण जातलो ? रूपान न्हय, कर्मानिच ब्राह्मण जाता म्हूण न्हय वे भगवद्गीतेंत आसा ? देह भरून वाग! सारको रोम, आगार सगळी लाशीं, आनी लांबूचें हरदेंय दारवोदन जनांचे मदें बेसल्यार मात्र वे देवालो निवेद वाडतले ? लजा जायना वे आमकां !"

"तूं कित्या बापा म्हजेलागी कोपता ?"

"कोपु ? कोणाचे लागी कोपूक ? कोण आसा आयकूक ? कितूले काळाक म्हूण पळोवया !"

घांटे शब्दु आयकूक येता. खोदने फुटताय.

"हांव वतां सायबा. भायरची आरती जाल्या. आतां भित पानां दितलीं." खवरे माम देवळांत गेलो.

वरां स जाताय. शुद्धब्राह्मण कावीचें रसमाचें मुंड न्हेसू व्हडव्हड नामां करून हातांत उदकाचो चेंबूय घेवन भितर वताय ब्राह्मणभोजनाक ! तांचे भरसी खवरे मामूय वता. ताणी व चोयल्यार ते नरसीं देवाले वी. वी आय. पी. म्हूण दिसता ! तांगेलें नामां "फ्रेष" आसाय ! आतांच केल्लेलीं ! न्हाल्याय कि ना ? तें तांकांच कळता ! भितर वाडूक निवेद लेखान व्हरताय. ताजे पोर मळान चेरडुवांले तोणांत उदक भरता !

सर्व जनय भायर समाराधनेक बेसूक जागो सोदताय— ब्राह्मण, वायलो, चल्ले, चल्लियो, चेरडूवां, म्हांतारे, अनवाळे, उष्टे... एदेच बुदवंतानी देनपारांच अगरसाळेंत जागे "रिजर्व" केल्लेले ! तीं थांगा तांचे बन्धुबान्धवांचे सयत बेसलीं. देवळाचे भायर तांय जन बेसल्यांय—आराटा तळी मेरेन !

मायक भरभरेता. किरकिर स्वल्प ऊणे जातना अशी आयकूक येता—

"महाजनांले श्रद्धेक ! पान काडूक वताय ! फांतीर बेसलेले समस्त ब्राह्मणानी चोगो काडका. सांज जाता. तुमचे लागि बेसल्या मनशालागीं कोंकणीन उलोवन तो सत्याक आमगेलो वे म्हूण चोवंका. भास कळना तसल्यानी मलयाळीन उलयल्यारीय जाता. आमगेले न्हय तरी ताका सांगून सोडका. वाडून जातना खोदनो मारतलीं ! खोदनो आयकनाशीं कोणेय तोणांत व्हरूक नज म्हळ्यार जेवनयें म्हूण ! पायस वाडून जातनाय खेरचो अखोदनो आयकनाशीं कोणेय उठूनयें ! जेवंचाक एक, उठावंचाक एक, तशी दोन खोदने मारतले."

हें रायूचो तोडोव, फांतीन बेसल्ले सगटांले होंटींतूय आंगरीय रेंव उब्रोवन पान्नां भोरे घेवन जनसेवक धावंताय.

मायक उलयता—“वाडूक वताय ! कोणेय चोगो काडनातिलें आसा जाल्यार ती काडका ! आनीकय सांगोवनयें. आंगा उजाचो वेळु हो. चोगो काडून बेसल्यार चांग !”

सीत रामदय घेवन वाडपेली फांतीनी धांवताय. आतां रेंव पडता सामकीच पानार ! पुसता पुसतां दुसेरीय पडतच आसा. वाडपेली हुमेताय. हूम निसतून आयदनात आनी पानार पडता. नूपुरो जालेली ते पुसून घालताय ! सगट नरसींदेवालों निवेद ! एदेच महंत धावन भोवन “सूपरवायस” करताय.

भितर ब्राह्मण भोजन जालें. उष्टे हात लांबोवन शुद्धब्राह्मण फांतीनी हात धुवंचाक वताय. हातावेलें उष्टेंय फांनीन बेसल्यांले पानार पडता. तोवोय देवालोच निवेद !

फांतीर बेसल्यांले मदें पोट भरून जेवलेले, कांयच खावनातीले, भुकेन सामके तळमळेवंचे अशी सगट तराचे आसाय. वाडलेलें वाडलेलें भरून खाताय चेरडूवां.

आपण्याक जाय जल्लेलें कडे वाडपेली चांग बरे रूपान वाडताय! तिनसाज जाली. नरसीं देवान हिरण्याक मारलोलो वेळ ! ह्या वेळार कांय खावंनयें म्हूण तं. आतां पानार वाडल्यां हांगा. चेरडूवां जेवताय. म्हालगडीं खोदनो आयकूक राकून बेसल्यांय.

मायक भरभरेता—“खोदनो मारचो मनीस कोपून गेला. देखून खोदनो मारूक जायना. हावें आतां मायकांतुल्यान “ठो” म्हणतना फांतीन बेसल्ले महाजनानी तोणांत व्हरूयात—”

म्हजे नरसीं देवा !

सीटार थाकून हावें उडकी मारली !

लागी बेसून निदतालो यात्रीक मनीस भिवन गेलो. “सोरी”—म्हूण सांगून हावंय दोळे धांपून बेसलों.

बस धावंतच आसा.





# पी. जी. कामत

(ज. 1926) केरळाचे प्रमुख लेखक आनी कवि. "लिपि–एक शास्त्रीय चिंतन" (लेखनां) "भगवद्गीतेक एक अवतारिका (अणकार) "श्रद्धांजलि", "म्हण्यां सोरू" (संपादन) इत्यादी प्रकाशित पुस्तकां कोंकणींत. 'दिवटी' चे संपादक. केरळ कोंकणी अकादमीचे अध्यक्ष. हिन्दी साहित्यांतूय हांचो बरो वावर चल्ला. मलयाळम आनी इंगलीष भाषेंतूय म्हत्वाचें अंशदान. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो सन्मान मेळ्ळा. पत्तो: "दयानंदम", "चेरुमुक्कू, तृशूर–680020

निबन्द

# आमकांय आसा गा रडचो देवु !

आमी देवाक सत्-चित्-आनन्द् स्वरूप म्हण्टात. देवाक कल्यारि आमकां आनन्द दिसता. कृष्णलीला वा रामायण वाचल्यार कल्यार आमकां कितलो संतोस जाता !

पैरि हांव क्रिस्तावांले इगजेंत गेल्लोलों. थांगा देवाक देकीलो. तो देव रडता आसा. ताका बावडयाक खुरसार चोडौनु जिवशी मारलो खैं. हो रडचो देव कशो आनन्द-स्वरूप जातलो, म्हणु मनांतु खांकुडी जाली. अशीच चिंतन करता रावलों.

मनां आयलें—आमी केदनाय रडचे. आमकां रडणें नाशिल्लो वेळ आसा व्हय ? ना. आमी सदा दुखांतु आसात. तावळ आमगेलो देवूय तसलोच मू आसूंका ! आनी रडचे आमचे लागी कोणाक दया-माया आसतलो, रडतल्याक शिवाय ? देखूनु रडचो देवूच आमकां पुरो. तोच आमकां जाय. रडचे आमकां हासचो देवु कित्याक ?

तशी आठौनु समाधानान बेसल्ले वेळार मुकार पावलें प्रा' आर. के. राव मामान संपादन करनु उजवाडायलेलें वेंकटेशकल्याण कोंकणी काव्य. ताचे चौते अध्यायांतु वेंकटपतीलो मांव्—म्हळ्यार पद्मावतेलो—आमगेली पोम्मेक्का आसामू—तिगेलो बप्पा—आकाश रायु तागेलें नांव—तो मरूक पडळा. वेंकटपतीक अफार दुःख जालें. तो बायलेकय घेवनु धावनु धावनु पावलो, आनी

कवि गायता—

पद्मावती सहित शोकान गोविन्दु
एवनु देकियाला राज-राजेन्द्रु
राजाले देहावरि पोडूनु गोविन्दान
अति शोकान त्यावेरि करिलें रोदन.

आमगेलो विष्णु सर्वोत्तमु वेंकटपति मांवु मरना फुडे रडत पाप! जांवय रडळो ना तरि पोम्मा कितें लेकतली? कोपान धावनु गेली वी जाल्यार कितें करतलो? पिरथमली बायल लो कोपान उसळ्ळेली. आतां करवीरपुरांतु आसा खैं. कितलीं वर्सां बायल नाशिल्यान विष्णु देवान खेल्लेली खावडि ऊणे देखूनु आतां पोम्माक एक समाधान जावो म्हणु तो रडूक लाग आनी अशी-तशी रडळ्यार पुरो वे? नुपुरो. मांवाचे आंगार पडून रोदन केल्लें!

हें वाचतना माका होड आनन्द जालो. कित्या? दिसले आमकांय आसा गा रडचो देवु! तुमकां मात्र न्हय. अभिमानान हरदें फुलेलें.

आनी एक कायरीं सांगन. मांवु मेल्यार जांवयान रड म्हणु हें काव्य आमकां शिकैता कि ना? फाय हांव मरना फुडे मेगे जांवय अशीच रडतलो. देखून माका व्होड आस्वास दिसलो. ह्रा रडचो वेंकटपति!



निबन्द

# सहगमन

रामायणांतुले दशरथ रायाक चार शें बायलो आशिल्यो खैं. तांतु मुख्य तेग जण्यो—रामाली आवसु कौसल्या, भरताली आवय कैकेयी, आनी लक्ष्मण-शत्रुघ्नाली अम्मा सुमित्रा. राम-राम, राम-राम जपीतां जपीतां दशरथाचो प्राण गेलो. तसले पुण्यात्मा घोवा मागल्यान सोरगार वच्चाक एक सरि बायलेक दिसलें ना.

घोव मरनु ह्या लोकांतु कित्याक उरचें? घोवा म्हरयांतु सोरगार वचूंया म्हणु एक सरि बायलेक दिसलें ना म्हळेलें आश्चर्य कि न्हंय? ह्या लोकांतु त्या मोगाळ घोवा लागी कितलें सुख ताणि भोगीलें! तशी आसूनूय, सोरगार वत्तना सहगमन करप पतिव्रता-धर्म म्हणु तांकां मनां आयलें ना कित्या? तांगेलो धर्म तांको उडगास करनु दिवुचाक पुरेंतु वशिष्ट भटमाम थांगा ना आशिल्लो? बायलांक कळना आशिल्लें शिकवप भटमामांलें कर्तव्य. तें ताणे केलें ना कित्या?

पाप दशरथु! तो सोरगार एकलोच गेलो. पतिव्रता शिरोमणि कौसल्येन सरि ताचें सहगमन केलें ना. छिः छिः कितली निष्ठुर ती बायल!

मात्र वे? 'यो गो वचूं या आमकां' म्हणु एक उतर सरि त्या दशरथानय म्हळें ना. बायल-घोवाचो संबन्धु असलो व्हय!

रायान लेकीलें आसतलें—पुरो! हाणी दिवुंचे सुख भोगील्लेंच पुरो. सोरगार हाणी येवनु कांय करूक ना. थांगा भाका जाय जावुंची शेवा करूक उर्वशी, मेनका, रंबा, तिलोत्तमा—हीं सगट आसतलींच मू. कोणें पुणें जाय म्हणु दिसल्यार तांका उलो मारल्यार जालें.

रामायणांतुल्यो बायलो असल्यो दया-माया नाशिल्यो; पा
व्रत्याचें असल मोल कळना अशिल्यो.

तरि आमगेलें पवित्र कोंकणी काव्य वेंकटेश कल्याण आसा
तांतु हरि विष्णु सर्वत्तमालो मांवु आकाश राय आनो माँयि धर
देवी आसलीं न्हंय! मरनना त्या रायाक बायले उडगास ायक
सर्व सत्कर्म करतना बायल लागीं जाय. सोरगार वत्तना बायल ला
ना जाल्यार कशी? थांगा एदें उदक हून करनु दिवुंच्याक कां
आसतलें? देखून त्या पुण्यवन्त रायान मरतना म्हळें—

धरणी देवी तूं आतां करि सहगमन.

मरतना मांवान सांगील्लें उत्तर पालन करप जांवयालें कर्तव
देखून वेंकटपतीन कितें केल्लें ?काव्य अशी गायता—

श्रीनिवासान सायुज्य पदग्र दे दिल्लें
राजालें देहत्यावरि दहन करयिलें
धरणी देवीन भर्ता लागी सहगमन केलें
ब्राह्मण ऋषेश्वर सर्वयि मेळवूनि.

मांवालें मडें लासतना मांयि सहगमन करता चोवनु रावील्ल
आमगेलो तिरमलदेवु कितलो कृपावन्तु! उज्यां पडून ती होळपतन
थांगा हाजीर अशिल्ले भटमाम रिषेश्वर कितले पुण्यवन्त! तें पुण
कर्म देकील्ले आमगेले पुर्विल्ले मनिस कितले भाग्यवन्त! तें वर्ण
करनु एक श्रेष्ठ भक्तिकाव्य रचिल्लो कोंकणी कवि कितलो धन्य

धन्य आमची भास. धन्य हें वेंकटेश कल्याण काव्य! धन्य
आमगेलो आचार!

आमगेले बायलांनी चलियानी त्या रामायणांतुले बायलां वरि
जावू नये, वेंकटपतोले मांयचे वरि पतिव्रता धर्म पालन करका.



# बुदवन्त जा, आबो वरि

कितले बुदवन्त आमगेले पूर्वीक !
कोणेय घाल्लेल्या गुळक्यांतु तानि पडचें ना.
कित्या ? ते सहस्राक्ष—हजार दोळ्यांचे !

x x x x

मेगेलो आबु अशिल्लो एक शेणै
ताणे बरैल्लें एक चट्टपत्र—
आयकीलें तुवें ? तिरमलदेवाक राकूक !
कळ्ळें तुका ?
तिरमलदेवाक कोण राकता ?—शेणै !
देवा राकतल्लो शेणै—तसलो मेगेलो आबु !
सगटांक राकता वेंकटपति खें !
त्या वेंकटपतीक राकतालो कोण ?
मेगेले आबु शेणै.

x x x x

ताणे चट्टपत्र बरैलें
आनो स्वाम्या करान हात बरप्प घालैलें.
घाला म्हळें ओप—घाल्ली स्वाम्यान ओप !
असलो मेगेलो आबु शेणै !
चट्टपत्रांतु कितें बरैल्लें ?—जाण ?
आमगेलो समाज व्हडलो दानो, उपकारो, त्यागी !
दितात ते कुटूंबार अशिल्या विश्ववेंक खर्चाक.
बीडकेंक खर्चाक दी म्हणु खयि सांगील्यां ?
खंचीय सुमृती सांगना.
तांकां कुटुंबार कशी राबैतलो ?

तांकां कणि देकल्यार तो दीस व्यर्थ ?
देखून सोड तांकां गोफरार
दीवय तांका देवळांथून एक पान शीत.
नुपुरो ? दी एक तोडोप आराटा वेळार.
त्या बगेक कोणं रूपं दीत तरि घे
म्हणु रसीद बो दीवूं नाका.
रसीद दीवूं नये-गांटि बान्दून घे—
तशी मेगेले आबोन तिरमलदेवाक राकीलो.

x x x x

हांव तागेलो नातू शेणै
हांवय बुदवन्तु.
देखून हांव तुका सांगतां,
यो, लागी यो, कान दीवनु आयक.
तूं मेगेलो ओपुरबाये नातू
तूं आतां जाला देवालो अधिकारी
राक रे देवाक ! राक !
राक ! तिरमलदेवाक राक !
टीटीसीक रुपै घे, दीवूं नाका रसीद.
टीचर करूक रुपै घे, दीवूं नाका रसीद.
पालकेक घे भांगार, दीवूं नाका रसीद.
मन्त्राक घे भांगार, दीवूं नाका रसीद.
तशी राक देवाक.
तूं देवालो अधिकारी,
देवाक राकप तुगेलो अधिकार.
रसीद बो दीवनु देवाक वाटेर घालशी.
देवाक राक, तिरमलदेवाक राक, वेंकटदतीक राक.





# शरतचंद्र शेणै

(ज. 1953) कवि, कथाकार, लेखक आनी अनुवादक म्हूण नांव जोडल्यां. गोयंचे "सुनापरांत" पत्रान हांकां म्हयन्याचो कवि म्हूण वेंचून (डिसेंबर 1994) हांगेली दीर्घकविता "कुमसार" उजवाडायली. "मीरा जीवन आनी कवन" ह्या प्रकाशित पुस्तकाक "देवकी कृष्ण पुरस्कार" लाबला. साहित्य अकादमीन घडयलेल्या कोंकणी साहित्य परिचर्चेंत "भावात्मक" कवितेविशीं पेपर सादर केल्ला. कथा, कविता, लेखन इत्यादी जायत्या नेमाळ्यानि, पत्रानि आनी संग्रहांत उजवाडाक आयल्यात. वेंचीक कोंकणी कथेंचो मलयाळम अणकार उजवाडायतना केरळ साहित्य अकादमीन हांगेलीय कथा वेंचल्या. पत्तो: "गोकूल", पळ्ळुरुत्ति नडा, कोची–682006

कथा

# अलमेलू

डिसेम्बर. ओफीसाकडे म्हस्त काम आशिल्लें. घराक पर
पावंतना चिके काळोख जालो. हांव पुरतोच थकेवन आशिल
स्कूटर षेडांत धिंगळून दवरतना मनांत एकूच विचार आशिल्ले
षवराखाल, ते शेळ पावसांत राबून मातें चिके शेळ करका !

सोफेर बेसून षू आनी सोक्स मेकळतना हून कोफीय घे
माजी धर्मपत्नी पावली (कोटि नमस्कार, बाये तुका देव राकतलो
चोगोंचलाण मेकळून टरकीटवलूय काडून हावें न्हाणियेंत वचूमे
तीणे कायंच जाप दिल्लीना. एक अक्षर तांय उलयनाशें राबिल
तिका हावें दोळ्यानीच विचारलें—कितें गो ?

"देनपारां लागीचे घराकडेचो रवी आयलोलो. एक पट
दिल्या. तुमकां दिवंचाक म्हूण अलमेलून दिल्लेली खंय—"

"उगडून चोयलीना तूं ?"

"ना—"

"कित्या ?"

"सांगन. संत सांगन. चिके आसा सांगूक. तुमी न्हावन
येयाय—"

—असली माजी धर्मपत्नी. सगट संतगदाय-सवकासायेन. न
माजें कुट्टप, अमसोर बी. पवराखाल ते थंड पावसांत हांव एकेक
आठयत राबलों. आनी आतां अलमेलून कितें केल्यां काय ! कांय
कळना. थंड उदकांत माजे देहाचोय मात्याचोय भार होळनु वचे

रखें दिसलें. थंडसाण मेळचाकय देहाक एक नवोन्मेष! उडगासां
ली धूळीथ होळनु गेल्या······

शेजार्‍यांथंयची दंदकारणी चेडूं अलमेलू. चौधा वर्सांची एक
मिळांची चली. माजी मोगाळ संगाती. आदीं माका तिजी वळख
शिल्ली. मागीर चेर्डुवानी एकेक सांगून दिल्लें. ती मैलापुराची.
का आवसु ना. शेजारचे नायराक मैलापूर काम आसतना तिजे
पसूची वळख जाली. तिजे बापसूक ती सयत भुरगिं आट. ताणेच
ंगा दूरगावांत आपण्याले चलेक दंदाक हाडून सोडलेली. स्वंत
र, गांव भास सगट सोडून इतले दूरा थेट परकिष्ट जनालें घरादंद
रचांत तिजो जीव कितलो घुसमुटतालो म्हूण मागीरीच आमकां
ळ्ळेलें. घरालागीचान वच्चो ट्रेन पळेत तेन्नासूनूच केन्नाकेन्ना ती
केक मनिशांकडे विचारताली खंय—

"इन्द वण्डि मैलापुरकु पोगुमा ?"
"इन्द वण्डियिले मैलापूर पोगमुडियुमा ?"

आनी एक दिसा चेडूं घर सोडुन गेली! तेन्नाच तिजेविशीं
ाका चड खबर मेळ्ळेली. गेल्ले जूलायांत तो सभव. बाजराक
्हूण गेल्लेली चली सांज जावनूय परत पावलीना म्हूण गोन्दोळ!

"—एक थांगा वचून पळेयाय मणे···" हांव गेलों. पळयलेंय
ो. कोणाक कसलीय खबर ना. नायर घराकडे ना. सगळो
ूलाय ताका मैसूराचो टूर. कितें करचें? नायराले सान भुरगो
वीकय घेवन हांव पुलीस स्टेशनाकडे गेलों. खबर दिल्ली. दुसेर
दिसा सुटी घालनु रेलस्टेशनाकडे, बाजरांत, हांगा थांगा सगट सोदून
भोंवलों. अखेर पुलीसानच तिका सोदून हाडली—कोषिकोड रेल-
स्टेशनाकडे रडुन बेसलेली! हावें व्हडलो सुस्कार सोडलो—देवान
राकलो!

तो दीस साकून आमची दोगांची वळख. हावें तिका घराकडे
आपोवन हाडली. आनी सगळो दीस आमी उलोवन बेसलीं. माका

तमिळ कळता-तिका तेंच खूब ! तिजी काणि आयकून माजें का
रडलें. तिजे आवसूक त्यो सात चलियो. सगटांक धाकलो
चलो. चलो अशोकाले पावटि बाळांतिरयार आवसून देह सोड
चोय दुरभाग्य ते आवसूचें ! भुरगो अशोकाक वाडोवंचें ताणींच.
गाँव सोडून येताणा ताजेविशीं आठोवन तिका कितलें रडणे
जालें, कितलें गिळका जालें हाजी फक्त तिकाच खबर !

तेन्नासून केन्नाकेन्ना अलमेलू माजे घराकडे येता.
येताली तेन्ना मात्र माजे बायलभुरग्यांकडे उलोवन वताली.
मागीर साकून चडकरून माजेकडेन, तिगेले भासेनच उलयत बेसत

आतां आज तिणे कितें केल्यां ? माजे धर्मपत्नीक सा
आशिल्लें तें रोखडींच आयकुया म्हूण केस वळयत हांव सामव
रान्दपाकूडींत गेलों. स्टडीरूमांत माजीं दोगांय भुरगीं बेसून
तालीं—क्रिसमस परीक्षा पावली न्हय ! पुण संवय सोडून धुवडि ओ
वाचताली······

घरांत थोडथोडो गोन्दोळ ना दिकून आज तरो तेन्ना सार
कांयच अलमेलून केल्लेंना म्हुण आठोवयात ! पुण आतां बायलेलें
दिकून माका कशेशें दिसलें. मनाक एक तराचें भयशें लाग
इतलो वेळ ती रडूनूच बेसल्लि म्हूण माका कळ्ळें. माका दि
तीणे मातें बावगयलें······हावें हळूच विचारलें "कितें जालें राणी
तावेळ तीणे ताजी जाप दिल्ली—उणेच उतरानी. ती जाप
आयकिली. तीच जाप माजे कानांत, मात्यांत, सगळे देहांत प
परत गुंजलो. तरीय माका विश्वास जालो ना. हातगांयांचो ध
वचून हांव थंयच बंकार बेसलों. वंटार, जिबेर, गळयांत स
खरखरी सूकी दिसली. उतरां ताळयांत सिरकतालीं—

"सत्य वे ? तूं दिकली काय ?"

"दिकली. एकच पावटि. पुण आतां दोळे धांकल्यारीय त
तें—तेंच तें दिकूक येता. मद्रासाकच वचे ट्रेनापोन्दाक······" ति

ळसां भायर फुटलीं. माजे मुकार ती पटळी दवरून ती बाषबेसिना-
डे उडुली. दोळ्यांमुकार एक धुवरसो मांडला म्हूण माका दिसलें.
ळेंत कितें तें कळूंक एक कुरड्यासारखीं हातानच वेंचका जालें.
ळी उगडून आशिल्ली……

परणे बर्फांचो एक काटू—अशोकालीं बर्फांच आसतलीं. एक
काफुल्ली आनी दोन कंकणां—रुप्याचीं. आनी तिगेलो निमाणो
हार माजे खातीर—प्लास्टिकाचे कागतान सांबाळून एकच एक
नन्ताफूल……

आतां सांजेट्रेनाचो घड घड माजे कानार पडलो. "अशि कित्या
लेंगो भावडे तूवें?" माजें अंतर अशि बोब मारतालें.

माका आपली जीणच निरर्थ तशी दिसली.



# उपकथा

[श्री. शरतचंद्र शेणैंली कथा "अलमेलू"
हिचे विशीं लेखकाकडे परिसंवाद.]

कृष्णदास : थोव मानीच्च काणो जाल्या तुमची "अलमेलू." कथिका म्हणूयात तसली! हें कित्या ?

श्री. शेणै : एके वेळार एके काणी सान आसता आनी वेगळी सुमार दीर्घ. कथावस्तूक लागूनूच्च कथेची लांबाय थारता. "अलमेलू" कथेंत फकत एक वरांभितर घडचें मात्र आसा. तेवंय बेगानच्च घडना. देखून तांतूं विस्तारान ब्रोवूंक जायना. बरयल्यार बरेंय आसच्चिना. उरफाटीं Unnatural दिसतलें !

कृष्णदास : "अलमेलू" ही कोंकणीन बरयल्या खरें; पुण तांतूंत कोंकणी म्हूण खास कायंच दिसना ! मलयाळम कथेच्चो अणकार केल्यावरीच्च अणभवता. हें कित्या ?

श्री. शेणै : केरळाचे मळार कथानक घडता देखून तशी दिसता. फकत कोंकणी समाजांतले कथानक हाताळचे असो म्हजो सोपूद ना ! Basically हांव इतलेंच चोयता कि कथेंत वास्तविकता आसची. वाचप्यांक तांचे जीणे भायरचे लोकाची वळख दिवचाक सोदता "अलमेलू". हांवय तशीच !

कृष्णदास : कथेंत अलमेलूविशीं ऊणे आनी कथा सांगपी मन-शाविशीं चड आसाशी अणभवता. हें कित्या ?

श्री. शेणै : कथेचें नांव "अलमेलू" दिल्यां म्हूण तांतूं तिजी सगली जीण विवरसूक जायना. तशी केल्यार एकदां कथेची

गतोच बी बदलतली ! अलमेलूली सुमार खबर कथा सांगप्याले यादींतल्यान उक्ती केल्या. उक्ते केलेनाय म्हळ्यार ते तिगेले स्वंत विचार. पुण ते उक्ते करूक ती नाच मू ! Tragedy हीच न्हय ?

कृष्णदास : न्हय. ही कथा एक Tragedy हांतूंत दुबावूच ना. म्हणतना, तुमच्यो सुमार सगल्योय कथा Tragedies ! पुण ह्या Tragedy हिका खास कितें आसा ?

श्री. शेणै : एक सांजेवेळार घडलेली दुखेस्त एक घडणूक ह्या कथेचो आधार. मागीर ताका लागून कितें जालें, हो ह्याचो विशय. दोन तराचे जीणेची हांतूंत तुळा जाल्या.

कृष्णदास : दोन तराची जीण म्हणतना एक सुखाची, क्षेमाची' सुभिक्षाची, शांत जीण-आमचे काणी सांगपी मनशाली !

श्री. शेणै : आनी Systematic मेरेन ! तिचेर आतां पडली एक सावळी अलमेलूली. म्हळ्यार, वेगळे तराचे दुसेरे जीणेची. कथासांगपी मनशाक येवजूक लेगीत जायना तश्या कष्टांची, दुर्भिक्षाची, मूळां हुमटल्ली दुःखदिर्णी जीण ती.

कृष्णदास : हे अंतर येवजून गोंदोळ्नूच काय ताका आखेर दिसलेलें "माका आपली जीणच निरर्थ तशी दिसली—" अशो ?

श्री. शेणै : तेंच न्हय; आनी एक कारण लगेन आसूयात. तिचे खातीर ताका कांय तरीय—एक कुसकूट लेगीत—करूक जालेंना म्हूण ताका दुःख दिसलें जावयात. तिचे मनांत इतलेंच साबार दुःख निराशा आशिल्याची कांयच जाणविकाय आपण्याक ना जाली मू अशीय ताका दिसलें जावयात.

कृष्णदास : तुमगेले 'विलाप' कवितेंत त्या सारखो मूड दिसता
"कित्या हांव वांचूका ?"

श्री. शेणै : व्हय, मूड तसलोच्च ! तुमी कविताय वाचताय कितें ?

कृष्णदास : बरयता मेरेन ! आतां अलमेलूंतले कथा सांगपी मनशा
बायले विशीं थोडें भोव तुमी बरयल्यां. ताची गर
आशिल्ली ?

श्री. शेणै : तागेली जीण कश्या तराची हें व्यक्त करचे खातीरी
ताच्या कुटुम्बाची वळख केलेली. ताचे मनांत सदावेळा
तींच सगट आसाय हें व्यक्त करूक हावें ही वा
स्वीकारलेली. ताचो अलमेलूचो कसो कितो सबं
म्हूण आमकां वळख मेळता ताच्या कुटुम्बांतल्यांले
वागणुकेंत साकून. हें तुमचे लक्षांत आयलेना कितें ?

कृष्णदास : ताणे आफीसांत साकून येतना ताची बायल रोखडींच
अलमेलूली खबर सांगना. ताका Shock बी जातलें
म्हूण तिका कळता.

श्री. शेणै : व्हय. आनी तागेलीं चेरडूवां तांचे सवंये उरफाटीं
नुतोच सिखताय ! एक सोवदु तांय आयकयनाय. खरेंच
म्हळ्यार "बापा आतां कितें करतलो ?" म्हूणूच तीं
राखून बेसल्यांय !

कृष्णदास : पुण ताची शांत थीर बायल कित्या बाषबेसिनाकडे
धावंता ? तोंड धुवपाक ?!

श्री. शेणै : जावयात. पुण एकदां तिका त्या घोर दृश्याच्या यादीन
ओंकूक आयलें दिकूनूय जावयात.

कृष्णदास : हें सगट खरें आनी बरें ! पुण एक ऊणाव आमाच
आसा !

श्री. शेणै : तो म्हळ्यार ?

कृष्णदास : कथा सांगपी मनशाले मनांत कितें कितें दिसलें ? तागेले गाढ दुःखाक कारण कितें ? शेजार्याले केवल वावराडीकडे ताचो इतलो घनिष्ट संबंद कसलो ? हे कित्याक तरी सारखी जाप आमकां मेळनाच मेळना !

श्री. शेणै : हें सगट उक्तावंचें म्हूण हावें "बोधधारा" रीति बि हाताळिल्ली जाल्यार ही फकत काणी राबचिना आशिल्ली; कादम्बरी बी जातली आशिल्ली ! आतां तुमी केलेल्या सगलेच प्रश्नांची खरी जाप मेळका जल्यार काणी एक दिसाक लगेन मुकार व्हरका जातली. आफीसांत सुटी दिवन त्या मनशान सगलो दीस घरांतच येवजीत बेसल्यार मात्र तें साध्य जातलें. एकेक गजाल परतून परतून उडगास करून दीर्घकथा करूयात. पुण त्या खातीर माका वेळ ना मू !

कृष्णदास : कित्या तशी ? तावळ पुणीय मात्से विस्तारान बरोवयात आशिल्लि. अशी फकत Synopsis कशी, सारांश कशी दिसचीना आशिल्ली—क्षमस्व !

श्री. शेणै : विस्तारान बरोवंक गेल्यार वेगळेंय कोडू सत्य सांगूका जातलें. तें माका आवडना.

कृष्णदास : खरे साहित्यकारानी सत्य पळोवंक, सांगूक कांय भियेवप ना मू !

श्री. शेणै : पुण हांव भिवंचो साहित्यकार ! माका सदा फाट घेता सत्याचें भय, जीवीताचें भय ! आतां हावें मुकावेले दिसांची काणी सांगली तरी सगटापशी दुःखाचें सत्य मुकार येतलें—तें म्हळ्यार ताणी सगटानी भोव सोपेपणान

अलमेलूक विसरची गजाली ! तेन्ना कथा खंय पावंतलं
सत्य उजवाडांत येतलें आनी काणी काळखांत वतली

कृष्णदास : Stark tragedy जातली तावळ ! अशी येवजीनाप
हांगाच्च रावयलेली वायट जालेना !

श्री. शेणै : हेत्रंय हांगा राबोवंया ?!

कृष्णदास : धन्यवाद.





# पय्यन्नूर रमेश पै

(ज. 1959) माबार काळांक केरळ कोंकणीं अकादमीचे मुखेल कार्यदर्शी आशिल्ले. आतां गल्फांत आसात. "म्हण्यां सोरू", "रघुरामायण" "वेंचीक कोंकणी कथा मलयळमांत" हांचें संपादन केलां. "सारोपदेशाच्यो काण्यो" एकठायल्यांत. कन्नडांत साकून दोन नोवल मलयळमांत अणकारल्यात. साहित्य अकादमीचे कोंकणी सलाह समितीचे सदस्य. साहित्य अकादमीन घडयलेल्या कोंकणी साहित्य परिचर्चेंत "कथेतर गद्यसाहित्या" विशीं पेपर सादर केल्ला. "कोंकणी भाशा चिंतनां" आनी "कुलदेवताप्रणाम" अशि दोन मलयाळम पुस्तक उजवाडायल्यात. पत्तो: III / 284, एम. सी. रोड. वाषप्पळ्ळी पोस्ट, चंगनाशेरी-686103.

कविता

# घांट

ढण ढण वाजता घांट
धरतात जनां देवळा वाट
म्हणता भजन स्तवन कीर्तन
होडान होडान ताळो पिन्दून.
एकल्याक एकलो चोयता, ताजें
नामां आंकडो काडता;
जानूव्याचे पोड मोयता
कास मारला कि ना म्हणु चोयता.
तीर्थ प्रसाद भटमाम दिता
ताट्यावेली कसाय देकना.
चेल्यो चोयतात देवाक अशाण
चेल्या तोण्डां दोळ्या तशाण
'फाय माका माळा घालूक
कोण जायत दोळो मारूंक'
घांट वाजतां घांट वाजतां
देवाळांतली पूजा जाता
फोडदो घालनु देवाक दितात
तोच प्रसाद जनांक वांटतात
समराघनेक बसतात लोक
पान चोवनु काडतात ढेंक
घरची घशी जिबेर येता

देवळा पायसु गोडू दिसता
परसून वतात होड पोट
डण ढण वाजता घांट
नडो धांपून भटमाम देंवता
देव भितर पाप कुर्वंता
जनांक लागली कसली घांट
हासता हासता लांबता घांट



# गुलाब शेंवत्याचो परमोळ

तुम्मि गुलाब शेवतें पळेयनिवे ? भारी चन्द फूल तें. तरातराचे रंगांतु ते फूल दिक्कू येत्ता. ताज्जो परमोळ भारी आनन्द दित्ता.

रवीन्द्राक गुलाब शेंवते म्हळ्यारि प्राणु. ताणे शाळेंत वत्ताना केदाणाइ एक गुलाब शेंवते घेवन वोच्चें. गुलाब शेंवत्याक आनि रवीन्द्राक आश्शीलो मोगु कशिश वाडलो म्होण कोळकावे ? सांगता.

रवीन्द्रु तिन्नोचे दर्जेंत शिखतालो. शिखवणेंतु तो हुषार अश्शीलो. तशें आसताना त्या वरस नवेंबर म्हैन्यांतु एकि घटना जाल्लि. नवेंबर म्हैन्यचि विशेषता तुम्मि जाण न्हैंवे ? चेर्डुवांलो अज्जो (आबु) म्हळ्यावरी आश्शीलो चाचा नेहरूली जायदिवसु त्या म्हैन्यांतु येत्ता. चेर्डुवांक तो एकु उत्सवा दिवसु जात्ता "चेर्डुवांलो दिवस (Children's day) म्होणु आमगेले राज्यांतु नेहरूलो जाय-दिवसु आचरण करतात.

त्या वरसाचे नेहरूजयंति दिवसा रवीन्द्राले शाळेंतु सुमार कार्यावळि चल्लि. चेर्डुवा खातीर मस्त नमून्याचे स्पर्धो आश्शीलो.

रवीन्द्रु भारी उत्साहान त्या स्पर्धेंतु भागु घेवनु राब्बीलो. ताव
गींत म्होण्चांतु काणि सांगच्यांतु धांवडेंतु आनी चेंडु उड्डीच्यांतु इन
मेळळो. ताक्का भारी खुशि जालिल.

इनाम वांटपाचे वेळार, शाळेंत दवरल्लोलो एक फोटो तागो
दोळ्यांक दिक्कू पळळो. तो, चाचा नेहरून हास्सून चोवचो फो
आश्शीलो. तुम्मि तो फोटो चोयनेवे ? तुमगेले घरकड़े ना शाळे
तो आसतलो. तो फोटो पळेयताना रवीक तांतुले तांबडे फुलांचे
मन गेल्ले. पंडित नेहरूलो धवो हास आनी तागेले धवे चोग्या
आसचे तांबडे फूल ! रवीन्द्रान इनाम घेवनु धरकडे आय्यीले तरक्ष
आवसू लागी सांगले:

"आम्मा, आजि माक्का मस्त इनाम मेळळे.

तू माक्का कस्सले दित्तलि ?"

आवसून सांगले: "हांव कस्सले दिवूं ?

तू निमगी, चोत्रूं तुग्गेले आनु हाणु दित्तलेच्चि."

"माक्का एक गुलाब शेंवते जाय"

—रवीन्द्रान सांगले.

"अरे ! गुलाब शेंवते ? जाय्त, आनु हाडतलो."

रवीन्द्राले बापसून ताक्का गुलाब शेंवते मात्र न्हैं, ताज्जे एक
झाडच्चि हाण दिल्ले. ताज्जे रोंपी चन्दायेन वोवनु रवीन्द्रान तागेले
घराचे मुकावेले फुल्लां झाडांचो संखो वाडुीले पलेयले. मोगारे,
आब्बोले, शेंवते, पडकलि, च्चिरडो, करवीर—ताक्का मस्त खुशि
जालिल. आत्तं गुलाब शेंवतेय हांचे भरसि मेळळे नवें !

जाल्यार, शेंवत्याक आनी गुलाब शेंवत्याक पाकलेंतु तांय भारी
व्यत्यास आस्स जावनूय हांका "शेंवते" ह्मोणु इत्याक आपयताचि ?
तो नेण.

दिवस वत्ता वत्ता गुलाब शेंवत्याचो रोंपो पुष्कल जावन वाडलो. ताक्का चिगुर आयले. रवीन्द्रान सदंचि ताक्का उद्दाक आनी मारे घालप आस्स. गोब्बोरु, बोक्डीचि लेंडि, मेट्ठ्याचे मोल, आनी चा पिटयाचि चंडि इत्तूले सारे पडताना रवीन्द्राले गुलाव शेंवत्याचे झाडारि कळे आयले. थोडे दिवस भितर ते कळे फूलनु तांबडे गुलाब शेंवते आयले. ते पोळोवनु रवीन्द्राक जाल्लेलि खुशि कशिश मांगूं ?

घर्कड़े येवचे सोय्र्यांक मक्कड़ै ताणे ताग्गेले झाड दाकोवचाक आस्स. पूणि, झाडावेले फूल दुस्रे कोणाकं काडूक तो सोण्णा आशशीलो. मस्त फुल जावचे वेळेरि एक्येक फूल काणु ताणे शाळेंतुले मास्टर्निक व्होर्नु दिव्वप आस्सा.

तशें आसताना ताग्गेलो जायदिवस आयलो. रवीन्द्राक आठ वरस भर्ति जाल्ले. त्या दिवस ताग्गेले आम्मान सांगले कि तूंवे आजि देवळाक वोच्चूनु देवाक नार्लु केळें दीवनु येवका म्होणु.

सांजवेळा तो देवस्थानाक चमकलो. थंय थोडे चेर्डूव आय्यो लींचि, तान्नि प्रदक्षिण काणु देवाक नमस्कार घाल्लो. भटमाम्मान तांका तीर्थ आनी प्रसाद दिल्लें. एक्येक चेर्डूवाक भटमाम्मान एक्येक नमून्याचे फूल दिल्लें. ताणे रवीन्द्राक गांधांचे भर्सि गुलाब शेंवते दिल्ले. ताक्का भो खुशि जालिल.

घरकडे येवनु ताणे आवसूलाग्गि खबर सांगले. ती ह्मणालि:

"पळे, तुक्का गुलाब शेंवते ह्मळयारि मोगाचे ह्मोण देव तांय जाण. देकून ताणे भट्टाले करान तुक्का ते फूल दिवैले."

रवीन्द्राक तें व्हे म्होण दिसले.

शिक्वणेंतु, खेळांतु आनि इतर नटुवटिकेंतु रवीन्दु हुषार जाल्लो.

ताणे मस्त इनाम जोळळो. शाळेंतूय घरांतूय तो सकडांगेलो मोगाचो जाल्लो.

एक दिवसु तो एक व्हार्डीकेक गेल्लो. थंय आप्पीले सोय्या
स्वीकार कोरुक राब्बीले एक बायलमनश्येले हात्तांतु एक दोग आवदे
ताणे पळेयले. तान्नि भितर येवचे वेळार त्या बायल मनशेन तांगे
आंगारि उध्धाक फापुळळे. रवीन्द्राक आंगाक कांटो आयलो. आंगा
पळळेले उध्धाक ताणे हुंकुन पळेयले—ताक्का चांग परमळ आश्शीत
गुलाब्र शोंत्रत्याचो परमळ, ताणे निमगीले:

"मांय्ये, हें कस्सले ? गुलाब्र शेंवत्याचे उद्दाकवे ?"

ती बायलमनीसि म्हणालि:

"व्होय······घे, जायवे ?"

ताणे तिग्गेले हत्तांतुले आयदन (ताक्का 'गुलाबदानि' म्होण
नांव) घेवनु आपण्याले आंगारि थोडेच फाप्पुळळे. ताक्का आनीकेय
खुशि जालिल.

त्या दिवस धोर्नु तो सदांच्चि न्हावनु आयले तत्क्षण गुलाब्र शेंव-
त्याचे झाडाचे लागिग वोच्चून ताजतो परमळ घेवूंक लागलो आनी
शाळेक वत्ताना गुलाब्रदानींत थाकून उध्धाक फाप्पोडून घेवूंकय
आरांभीले

अशिश रवीन्द्रु आनी गुलाब शेंव्रते भारी 'एकमेळीन', मोगान
आस्सचि. "परमळांचे फुल्लांचि राणि" म्हळेलि कीर्ति तिक्का
मेळिळ. तुमगेले धर्कड़ेय गुलाब शोंव्रत्याचो एक रोंपो आस्स की चोय्या.



साहित्य अकादमीचें देशीय अवार्ड मेळ्ळोलो
केरळाच्रो प्रप्रथम कोंकणी साहित्यकार



# के. गोकुलदास प्रभू

(ज. 1954) नामनेचे कथाकार. हांगेली कादंबरी "पृथिवै नमः" केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडायला. 1991 वर्सा गोंयचे अपुरबाय प्रकाशनान हांगेलो कथा समाहार "अंतर आयामी" उजवाडायलो. म्हस्त इनामां मेळयांत. साहित्य आनी समाजाविशीं संशोधना करून आसात. साहित्य अकादमीन घडयलेल्या कोंकणी साहित्य परिचर्चेंत "कथासाहित्या" विशीं पेपर सादर केल्ला. वेंचीक कोंकणी कथेंच्रो मलयाळम अणकार उजवाडायतना केरळ साहित्य अकादमीन हांगेली कथाय वेंचल्या. कोंकणी बरोबर मलयाळम, तमीळ, कन्नड, हिन्दी आनी इंगलीश भासो येतात. कोंकणी विशीं लेखन बरयलेलें Hindu पत्राचेर आयल्यां. पत्तो : कोरपोरेशन बैंक, रीजियणल आफीस, उडुपी-576,01.

कथा

# मिरयो

घराकडे पावतना थंय असाधारण कितें तरी घडिल्लेंशें दिस आवय सदावरी अकाड्याकडेन नाशिल्ली. देखून दुबाव आनी अक जाल्लो—कितें घडलें ?

भितर सरतना कळ्ळें. बापा एक कुडींत आड पडिल्लो—दो धांपून, हाता बोटांनी काळजाकडेन दामीत. आवय लागीच बस काळजाकडेन शेकताली. म्हळ्यार बापाक परत काळजाची दूख मनांत कडकडतासतना विचारलें—

—परतून दुक्कता वे ?

ताणें दोळे उगडले आनी म्हजेकडेन हयन्हयशी पळयलें, कांय उलयनाशें रोखडेच धांपले पूण दुखयेक लागून तजें तोंड वांक जाल्लें.

—म्हाका आंगडींतु फोन कोरनु सांगिल्लें ना इत्याक ?

—फोन केलोलो. तूं भायर सोरनु गेलो म्हूण ताल्नी सांगिल्लें

भयणींल्या आवाजांत हुसको आसलो.

—मस्त वेळु जालो वे दुक्की आरांबून ?

—पांत्र पंचडार आरांबिलीली.

आतां पावूण सात ! सुमार एक देड वरां दुख भोगीत पडला !

—वोगी ख्रंयचेय आस्पत्रेंत वच्चा रे. बापालो आवाज.

—बच्चा. हांव एक टॅक्सी घेवन येत्ता. तुमी तयार जावनु रसाय. आनी तीं परणीं प्रिस्क्रिप्शनां, सर्टिफिकेटां एक्सरे फिल्मां भगटय काणु दवरी.

दनपारा जेवणाखातीर आंगडींत व्हरून हाडिल्ली डब्याची चिरी शांदपाकुडींत दवरली. आवयन च्या लेगीन करूक ना म्हण कळतना भात्सो कांटाळो जालो. पूण तक्रार करूक शकनासलों—घरांतल्या मनशाक आस्पत्रेंत व्हरची परिस्थिती येतना च्या करून बसपाक कोणाच्या लक्ष्यांत येत ? आनी अतां हात पाय धुवपा खातीरय रावप सम न्हय.

हातांतलें पाकीट उगडून पळयलें. तिनशे रूपय आसिल्ले. अलमारींत आनीयेक चारशें पांयशें आसू येता. पूण पांवचें नात. कोणाकडेन मागपाकच जाय. मागीर फारीक केल्ल्यार जालें. पूण सुरवेक टॅक्सीची वेवस्था करपाचें. आस्पत्री चौदा किलोमीटर पयस आसा.

गेल्ल्या आठ म्हयनांत त्रापाक दोन पावटी दूख आयली, तेन्ना लागशिल्या आस्पत्रेंत घाल्लो. फकत आस्पत्री लागीच आसा म्हणून. पूण आतां चड जतनाय वेवपाक जाय. आतां तीसरे पावटी दूख सुरू जाल्या.

तिसरे पावटी !—गेल्ले पावटी दोतोरान सांगिल्लें—

—चोय, ये दूसरे पावटी जाल्लां. आनी आतां कॅर घेवका.

—कॅर घेवप म्हळ्यार कितें करप म्हण ताणें सांगलें ना. हांव विचारलेंय ना. सत्तर वर्सांच्या एक मनशान तीसरे पावट अॅटाक येवचें न्हय कितें करूक जाय म्हण घडये तो सांगूक शकचो ना. रक्तदाब, संधीवात आनी साकरेचो रोग बादिल्ले म्हातरयाक वांचोवंक घडये शकचें ना म्हणूच सांगत अशिल्लो.

देखून दोतोरालीं उतरां आयकतना मनांत येवन गेल्लें—कपलांत बरयल्लें पुसल्यार पुसना !

कपलांत बरयल्लें आनी बरोवंक नाशिल्लें एक सारखें तर
तो विचार आतां परत तकलेंत येता—कपलांतलें बरप !

टॅक्सी स्टॅडार टॅक्सी नांशिल्ली. ऑटो चालक चौदा किल मीटर पयसुल्ले आस्पत्रेकडेन वचपाक तयार नासले. एकूच उपा उरिल्लो. गुणाक मेळप आनी मदत मागप. गूण म्हजो इश शाळेच्या दिसांत्लो इश्टागत. इतल्या वर्सा उप्रांतय फकत ताणेंच इश्टागत सांबळुन दवरल्या. आतां ताजोच मदत मागपाची.

तो आपले ट्रॅवल एजन्सीच्या कचेरींत आसलोच. पळयतना भायर आयलो—

—इत्ति रे अप्रूब जावनु ?

—गुणा, उलोवनु राबूक वेळ ना. बापाक हरद्याक दूक आयल्या.

—परतून ! ! उत्तूले वोग्गी ? तीनि मासां भितेरी !

सुको हास हासलों—

—अं, आस्पत्रेंत साकूनु भायर हाणु तीन मासय जाल्लेनाय. आतां आंगडीत साकूनु येताना, हरद्यांत दूकी खंय.

—आरे, आस्पत्रेंत व्हरूक तोडोव करता इत्याक ?

—तेच खातीर तुगे लागी आयलां—टॅक्सी जाय. सिटी आस्पत्री पर्यान ऑटो ड्रायवर कोणय येत्रंचाक जायना म्हणटाय.

—सिटींत वे घालू वता ?

—व्हय, इत्तें ? नाका वे !

—चिंताना. सग्गी व्यवस्था आसा थांगा.

ताणे कार चालकाक आपयलो—

—जोर्ज, टॅक्सो वेवन वच रे सिटी हॉस्पिटलाकडेन.

—गुणा !

परतून ताका आपयलो.

—इत्ति रे ?

—म्हाका सल्प रूपयाय जाय. हातांतु सातशीं आठशींच आसतले. फाथि ड्रॉ कोरनु दित्ता.

—संत दी रे ओवसोरू कांय ना. इत्तूल जाय ?

—ऐकु देडु सासु आसतोलो वे ?

—चोयता

तो भितर वचून दुडू घेवन आयलो—

—तुगेलें सुकृत म्हूण लेकि. साधारण उत्तूलो आस्सना.

—थँक्स सायबा. फाय परतून दीन.

—जायत रे पा.

घरा सगळीं वाट पळेत बसिल्लीं. बापाक दूख सोंसनाशें दिसलें. दुखयेन ताजें तोंड बिकृत जाल्लें. ताका तेंको दीवन टॅक्सीकडेन पावयलो आनी फाटल्या सीटार, आवयले मांडीर तकली दवरून, आड केलो.

रस्त्यार दोन सांकव आनी एकू कडेन रेल्वे क्रॉस मेळतालें. ट्रेयनाचो वेळ जावंक नाशिल्ल्यान लेवल क्रॉसार कळांव जालोना. पूण सांकव अरूंद आनी परणे जाल्ल्यान गाडयो संवकासायेन चलतालयो.

पूण मनांत तसो हुसको कांय भोगनासलो. गेल्या सात आठ वर्सांनी कुटुंबांतल्या ल्हान व्हडांचीं चार पांच मरणां पळयल्लीं. मन मोडटालें. परत परत मोडिल्लें मन आतां मुयेल्लें वरी जाता. बापाले काळजादुखयेक लागूनय गेल्ल्या आठ-धा म्हयन्यांत दोन तीन पावट

आस्पत्रेत म्हयनो भर रावलां. देखूनच आतां व्हडलोसो तण भोगनासलो.

आवय चिंततासलो.

एक विचित्र विचार आयलो—बापाली तकली इतलो वे हालनाशी दवरिल्यान तिजी जांग मूंयेली काय? हश्शीं ती पांया दुखयेपासत तक्रार करता.

सांकवावेल्यान सवकासायेन कार वतना फुडल्यान ज्यों गाड येताल्यो, तांच्या हेडलायटांचो उजवाड भितर पडतालो. बसी आनं ट्रक मुखावेल्यान धांवत येतना उजवाड कारांत फांकतालो, आवयचं तोंड उजळटालें. बापाल्या तोंडारय उजवाड पडतालो जायत. धूंवनं पळोवंक आग्रोह जालो. एक ट्रकाचो उजवाड कारांत रिगलो म्हण्टना हांव धूंवन पळयलों. उजवाड ताजे तोंडार पडिल्लोच ताणे दोळे धांपिल्लें. नाक निडळाकडेन पांवता थंय भोंवयों एकमेकांक मेळूंक सोदताल्यो. सगळ्या निडळार मिरयो पडिल्ल्यो.

त्यो मिरयो हांवे भुरगेपणांत साकून पळेत आयलां. बापा सकाळीं दुकाना गेल्यार रातीं कळांव करून परततालो केन्ना केन्ना परत पांवतना तशो मिरयो दिसताल्यो. सात भुरग्यांचो बापूय म्हूणून घडये ताका तळमळचो पडतालें जायत.

आतां मात, धांवत्या उजवाडांत ताज्या तोंडावयल्यो मिरयो चड लांब, चड खोल जाल्याशें दिसताल्यो.

आस्पत्रेंत पांवतना साडेसात वरां. कार एमरजन्सी रूमा-लागीच थामयलें. नर्स भितरल्यान येवन रावली आनी बापाली आवतिकाय पळयतना ताका भायर देंवोवन एमरजन्सी रूमांत पांवयलो.

गेल्ले पावटी आस्पत्रेंत साकून बापाक हाडतना मेळिल्लीं सर्टिफिकेटां, चार्टी आदी दातोराक दिलीं. ताणें तीं पळेत पळेत खूब प्रश्नां विचारलीं आनी बापाक इंजेक्शन दिलें. सगळ्यांक भायर धाडून रूमाचें दार बंद केलें.

आस्पत्रेंतली परिस्थिती तशी नवी न्हयच. थंयची यूनिफोर्मां, गांवती चाल, भियेल्लीं तोंडां, वखदांचो भरसल्लो वास, सगळ्यांत वेगळें वळखीचें. वळखिचो कोणय मेळ्यार रोगाची वापसूस. दूसरो विचार अप्रूब. वळखीचो कोणय मेळना जाल्यारय त्रासविरस आनी सुकी उबगण. कसल्यांचीय कोणाचीय प्रत्यक्षपणान अपेक्षा नासूनय, फकत एकच्च कुडींत ना जाल्यार एकच जाग्यार बेकारपणान बसप. थेत. त्या उबगणेच्या दिसांच्या चिंतनान अंतरंग कडकडता.

आवय राखून बसल्या—

—इत्ति खंयी रे ?

—इंजेक्शन दिल्लां. आनी कस्सलं म्हण कळना. तूं एक करी. परतूनु वच. हांगा हांव राव्बन.

—नाका रे, हांवय बेस्सन.

—इत्याक ? तूं बेस्सून कस्सलं कोरूक ? सगळी राती बेस्सूनु फायि मांद्रेर पळ्ळ्यार तुग्गेलेंय काडका. आत्तां केशीय टॅक्सी परतूनु वच्ची आस्स नवें ?—तांतू वच. फायि सकाणो न्हाव्न यो.

ती गेल्ले उप्रांत एमरजन्सी रूमा फुडल्या बांकार बसलो. देड वरा उप्रांत रूमाचें दार उगडलें अनी नर्सोन आपयलें. भितर रिगचे आदीं तीणें दामिल्ल्या आवाजान सांगलें—

—ही वकदां हाडि. वेग्गी, आं. आंगडी क्लोज करचो वेळु जाला.

अर्द वर पयलींच सांगलें ना कित्याक ?—अशें विचारूक आयलें. विचारलें ना. मनांतलो विचार केन्ना केन्ना ना उच्चारिल्लो बरो. भायर सरचे पयलीं बापाचेर नदर घाली. आतां तो न्हिदिल्लो—शांत. तजो चोगो मेकळिल्लो, ई. सि. जी. खातीर हड्ड्यार सरयो लायिल्ल्यो. दोतोर कार्डियोग्राफ तेळीत बशिल्लो. बापाच्या तोंडार आतां मिरयो दिसनासल्यो.

म्हादेवाच्या म्हूर्तीमुखार नंदीक थापिल्लेवरी त्या बांक
बसून बसून पुरो जाल्लें. वखदाखातीर भायर सरप बरें दिस
ओखद हाडून नर्साचे हातांत दितना बापाक उद्देशून विचारलें—

—तो आतां कशिश आस्स ?

—कांय सांगूक जायना. दोन तीन दिस्सांक ओब्सर्व कोरव

—भित्तेरि डॉक्टर आस्स वे.

—आस्स…आत्तां वच्चें नाका.

—ने खात्तीरि न्हय.

—मागिरि ? आमचेर विश्वासु ना वे ?

—तेशिश न्हय. हांवें एश्शीच निवंगीलें.

—आ.

णव वरां जालीं. दनपारां जेवणा उप्रांत तीन वरांर एक चव
पियेलों. शिवाय पोटांत दुसरें कांयच वचूंक नासलें. पूण तें पुरा
सगळें तिका कित्याक सांगूक जाय ? तिका फकत सांगचें—

—सिस्टर !

ती रावली.

—हांव वचून जेवनु येवूं वे ?

—आफ कोर्स !

जेवण करून येवन परत त्या बांकार बसलों. आस्पत्रेर
वळखीचें कोणय नासलें. रोगीय जड कांय नात अशें दिसतालें. लोक
आशिल्लेच तर आपाअपले कुडींत बसून आसले.

बसून पुरो जालें म्हणटना पासयो मारूक लागलों. इकरा
वरार रूमातल्यान दातोर भायर आयलो—

—तुगेलो बापा नवे तो ?

—व्हय कशी आस्स ?

—रेस्ट घेत्ता कंडीशन आनीकय स्टेबल जाल्लेंना. दोन तीन दीस चोवया.

—प्रोब्लम कांय आस्स वे ?

—तेश्शि कांय ना. जाल्यारीय प्राय जाल्ली न वे. होप फॉर द बेस्ट.

दोन तीन दिसा दोतोरान परत तशेंच सांगलें. पूण चवथ्या दिसा बापाक एमरजन्सी रूमांतल्यान दूसरे कुडींत पांवयलो. म्हजो जागोय बदल्लो. पुण उबगणेक उणाव जालो ना.

मैदानांत खुंटयेक बांदिल्ले गायेक पळयल्या. सकाळ साकून सांज मेरेन ती गाय सूंब सोडत तितिले पयस चरत वता. पूण खुंटये भोंवतणीच घुंवता. खंयचेकाय सुंबाक लागून हांवय बापाले खाटये लागीच भोंवचें पडता.

उबगण सोंसना जाली तेन्ना पासयो मारूंक लागलो. पासयो मारीत मागीर कुडीचें दार उगडून भायर सरलों, चलत रस्त्यार पांवलों. थंय रावन पळयतासतना पयसुल्या दुकानांत हुमकळायल्ल्या नेमाळ्याचीं रंगयाळीं चित्रां दिसलीं आनी नेणतासतना पाय थंय वळ्ळे.

खूब नेमाळीं थंय विकपाक दवरिल्लीं. सगळ्या नेमाळ्यांचेर चड उणें एकच तरेच्या विशयांचेर लेख दिसताले. तरीय कांय नेमाळीं उगडून पळोवन घेवपाचो निर्णय केलो. दुडू दितना अकस्मात रती विशयावयल्या पुस्तकांचेर दिश्टी पडली. घेवचीं काय नाका असो विचार जालो. पुस्तकांची ओड अणभवली तरीय तितलेच बळान मन फाटींकुडे करतालें. निमाणें पुस्तकांय मागलीं. मागल्या आवा-जांत बदल बी आसली काय ? आनी दुकानकार कितें चिततालो ? पूण ताजे तोंडार कसलोय फरक कळ्ळोना. दूसरीं नेमाळीं दिवंचेवरी ताणें पुस्तकांय दिलीं.

कुडांत परत पावतना बापा जागो आसिल्लो. नेमाळीं आ
पुस्तकां मेजाच्या गवेतांत घालून ताका विचारलें—

—कसलेंय जाय वे ?

ताणें पिवपाक जाय म्हण चिन्ह केलें, फ्लास्कांत दूध आशिस
खोल्यांत रखोवन, इल्लें इल्लें करून तजे तोणांत ओतले.

—आनी जाय वे ?

ताणें दोळे धांपून, तकली हालोवंक वावरून 'नाका' केलें आ
हळूच विचारलें—

—तुगेली अम्मा खंयी ?

—तूं न्हिदे आसतना गेली. जागोवंचें नाका म्हण हांवें सांगिल

ताणें दोळे धांपले. पूण हाता बोटां काळजाकडेन घश्टीतलो-

—दुक्कता वे ?

—ना

—मागीर हरदें परशीता ?

तजीं बोटां निश्चल जालीं.

—डॉक्टराक उळदूका वे ?

—नाका

ताका करणाटक संगीत आवडटा देखून हांवें घरच्या
हाडिल्लो ट्रॅन्सिस्टर ऑन करून तसलें संगीत मेळता कांय म्हण
पळयलें. पूण त्या वेळार करणाटक संगीत खंयय मेळनासलें. विवि
भारतीचो हिन्दी सिनेमा पदां मात आयकतालीं आनी ताका तजी
आवड नाशिल्ली. तगीय विचारलें—

—ट्रॅन्सिस्टर ऑन आस्सो वे ?

—नाका

—तेशिश जाल्यारि रेस्ट घे.

ताणें दोळे धांपले. हांवें एक नेमाळें वाचपाक घेतलें. रोखडोच पुस्तकाचो उगडास जावन निक्तेंच घेतिल्लें पुस्तक वाचूंक सुरू केले. पुस्तकाच्या कव्हराचेर तजी नदर पडली काय म्हण दुबावान तजे मुखान पळयलें. तजे दोळे धांपूनच उरिल्ले, पुण दोळ्यांकडेन ओलचित्रशें कितेंतरी दिसलें. तेळीत रावलों. हळूच कळ्ळें तजे दोळ्यांचे ग्वांत्रीनल्यान दुकाचे थेंबे चिडुत आसा.

तो रडतालो, पुण काळजाचे दुखयेन न्हय, हें स्पश्ट आसलें. कितें चिंतता तो ? आपले आवतिकाये पासत, काय म्हाका त्रास जाता म्हणून ? अथवा हांव तजी सामकी जतनाय घेना म्हण ? जाल्यार खूब वर्सां आदीं मरून गेल्या भुरग्यांच्या उगडासान ? कितेय जावं.

हांव सेंटिमेंटल न्हय. आनी कोणालींय दुकां पळोवन तांचे सांत्वन करपय म्हजो गूण न्हय. देखून हांव वोगीच राबलो, हातांत पुस्तक आशिल्लेंच देखून बापालीं दुकां पळोवकच ना असो सत्रंग करप सोपेपणात जालें.

वाचपाक खूब मेळ्ळें देखून वेळ धांविल्लो कळ्ळोच ना. पुस्तकावयलीं अक्षरां वाचूंक त्रास जावंक लागलो, तेन्नाच काळखाची जाणीव जाली.

मध्यराती तो परंवताशें आयकून जागो जालो. दीवो लायलो. पूण तो दोळे धांपून न्हिदेंत आशिल्लो.

—दुक्कता वे ?

—हांवे प्रश्न केलो. शब्द आयकून ताणें दोळें उगडले—

—आं ?

—दुक्कता वे ?

—ना !

—मागीर परंवल्लो इत्याक ?

—हांव वे ? ना मू !

हांव वोगीच रावलो.

—सल्प उद्दाक दी.

उदक दिलें.

डॉक्टराक उळदुका वे ?

—नाका रे. तेस्सि कांय ना.

ताणें दोळे धांपले. मात्सो वेळ ताका तेळून मागीर हांवे दी वाडयलो.

लागीच्या दिसा उबगणेक कांयच कारण नासले. पुस्तकां आ नेमाळीं वेळ सारूक उपकारताली.

दनपारा जेवणा वतना अकस्मात सिनेमा पोस्टरां पळयले विश्वास जालोना. 'सौउंड आफ म्यूसिक!' भुरगेपणांत केन्नात एक पावट गांवच्या थेटरांत शंबर दिसानी ताजें प्रदर्शन जाल्लें आ व्हडलो दबाजोय मनयल्लो. पूण चित्राचें म्हत्व सामकी कळ नाशिल्लें. आनी तें पळोवंक नाशिल्लें. आतां परतून तजें प्रदर्श पुण फकत एक दिसाक ! आज मात ! हां !—पळोवपाचो योग न आवय सकाळींच येवन निकतीच गेल्ली. जाल्यार तिका कुडींत बसोव वचू येतालें.

जेवणा उप्रांत मन मोडून आस्पत्रींत पावलों तेन्ना नर्स बापा गुळयो दिताली. भितर रिगतना ती हांसली. झट करून एक विचा आयलो — कित्याक तिकाच बसूक सांगून सिनेमाक वचूचें न्हय इंग्लीश सिनेमा चड जाल्यार एक वा सवाय वरांक आसूयेत. साडे साताक परतून येवक शकतलो.

पवूण संक नर्साकडेन गेलो—

—सिस्टर !

—आं, इत्तें ?

—एक उपकार करशी वे ?

—इत्तें ?

—घरकडे एक अर्जंट जोलि आस्स. वच्चून येवूं वे ?

अं ऽ......

ती फाटीफुडे करता.

—चड्ु वेळ्ु जांवचो ना. साता मित्तेरी येन.

—जायत.

आश्वाल जालो.

—तूं रूमांत आसतली न वे ?

—ना, ना, म्हाका ड्यूटी आस्स. रूमांतच बेस्सूक जांवना. तशें जाल्यार वचप समा न्हय. वचचें काय नाका...नाका काय वचूं...

—तूं वचून यो. पन्नेरा मिनटांनी एक पावटी हांत्र वचूनु चोयेन. पूरो न वे ?

—पूरो.

—वोग्गी येव्नका, इत्ते ?

—शुअर !

कुडींत वचून पळयलें. बापा दोळे धापून उरिल्लो. देखून सांगनाशें भायर सरप उचित दिसलें.

भितर खंय तरी खोंचतालें—वचूं वाका, वचूं नाका. पूण एक अशेय शक्तीक लागून पाय फुडे ओडून व्हरताले. ऑटो धरलें आनी थेटरा मुखार देंवलों. बालकणीचीं सीटां भरिल्लीं देखून सकलच्या दर्जातलें टिकट मेळ्ळें. चित्र पळयतासतना काळखांतल्यान एक मोनो प्रश्न दिसतालो—हें सारखें व्हय ? पूण सुंदर गितांक लागून सगळेंच विसरलों.

मध्यांतरांत अकस्मात दिश्टी घड्याळ्यार पडली तेन्ना क
उडलें—पावूण आठ! सिनेमा इतलें लांब आसलें, णत्र जाल
सोंपचेलें नासलें. सट करून उठलों आनी भायर आयलों.

आस्पत्रेंतल्या कुडीत पांवचे आदीं फाटल्यान ती नर्स आयी

—कस्सलं मिस्टर, मनीषु वे तूं ?

—सॉरी मिस्टर, तोडोवू जाल्लो.

—ते मनश्यान उत्तूल पावटी तुका परतून उळदीलो
कळता वे ?

—वेरी सॉरी. तुका मस्त कश्ट दिल्ले.

—म्हाका कश्ट कांय जाल्लें ना. जाल्लें तुगेले बाप्पाक.
अपघाताचीं चिन्हां—

—इत्ति जाल्लें ?

—सग्गं जावन गेल्लें.

सगळें मोंपलें! हांव ते कुडींत भितर सरलों. थंय
पालयल्यान काळोख जाल्लो. तिणे दिवो जळयलो. तो तकले
यल्यान पांगरून पडिल्लो. तिणे सांगलें—

—तुंवे वच्चें नाका आशिल्लें. गेल्ल्यार वोग्गी येवय
आशिल्लें. ताणें निवंगीलेंय.

—हांव······हांव······

उतरां फुटनात. तिणे ताजे तकलेवेल्यान लुगट काडलें—
—चोय.

ताजे दोळे धांपून उरिल्ले, पूण तोंडावयलीं लक्षणां न्हिदच
नासलीं. भोंवरयो दोन वोकडांवरी एकमेकांकडेन लडायेक तय
जावन राविल्ल्यो; मिरयो पडिल्ल्यो.

खूब वर्सां उप्रांत बापाल्या तोंडाक हात लायलो आनी रोखडोच फाटीं घेतलो—कुडीचेर थंडाय पडिल्ली. घुंवन पळयल्यार सिस्टर ना.

निसाणें घडलें अशें. पूण चिंतून फायदो ना. फुडें कितें म्हण येवजूक जाय. रिसेप्शन काउंटराकडेन चल्लों. क्लर्क वाट पळेत बशिल्लो दिसता. मरणाची ताका पयलींच माहिती मेळ्ळी आसतली. विचारलें—

—आंबुलेन्स मेळतलें वे ?

—हांगाचो ड्रायवर गेल्लो मू !

—वेगळे खंय मेळतलें ?

ताणे एक फोन नंबर दिलें. फोनांत आंबुलेन्स धाडटा म्हण उतर मेळ्ळें. परत फोन करून गुणाक सांगलें—

—गुणा !

—इत्ति रे ?

—बाप्पा गेल्लो, इत्तें ?

—व्हय वे ! केद्दाना ?

—स–साडि–स वरांर. घरकडे सांग इत्तें.

—आं…

गुणा कितें तरी चिंतता. धरा सगळींच बायल मनशां. तांका कशें सांगचें म्हण आलोचना करता जायत.

—गुणा, इत्ति आलोचना करता ? तूं वचून सांग. हांव मोडेंय घेवन सांगनाशी येंवचें पशीय, सांगून येंवचें चांग नवे ?

—जायत रे पापया. हांव येवका वे थांगा ?

—नाका.

—दुड्डु जायि वे ?

—नाका. हाळ्ळोलो आस्स. एकु उपकारू नेगीन जायि.

—सांग

—लांसूंक व्हरूक सग सांगून दवरि.

—आं.

रिसीवर दवरून क्लर्काक विचारलें—

—तुमगेलें बील जालें वे ?

ताणें तयार करून दवरिल्लें बील काडून दिलें. बील फारी करून परत कुडांत चल्लों. हांगा थंय पडिल्ले वस्त पुंजावन बॅगा घालें आनी चीरी रिसेप्शन काउंटरा कडेन व्हरून दवरली. पर कुडींत वचून बापालें तोंड पळयत रावलों. सांगूक जायना तशें तीव्र दूख अणभवली जायत. मरणा उप्रांतय दुखयेची कुरू तोंडा कायम उरिल्ली.

पंदरा मिनट उप्रांतय आंबुलेन्स पांवलोंना म्हण फोनांत याद करून दिली. आंबुलेन्साची वाट पळेत बसलों. गुणा आनी तजो भाव स्कूटरार पाविल्ले पळोवन अजाप जालो. तांचो अपेक्षा नासली. लागी पांवतना विचारलें—

—घरकडे सांगिल्लें वे ?

—व्हय, सग्ग बोब मारताय.

—इत्ति करूक.

—तुगेले माम्माकय, भावांकय सांगीलाँ. आत्तां पाविल्लीं आसतलीं.

आंबुलेन्स पांवलें तेन्ना मडें तांतूत घालें आनी वीसच मिनटांनी घरा पांवयलें. दायजी आनी शेजारी एकठांय आयिल्ले.

सगळी बायलो एकेच कुडींत बसून आशिल्ली. तांच्यो उत्तो दामिल्लो रडण्यांच्यो आवाज. सगळ्यांत व्हडलो साद आसलो आवयच्या रडण्याचो—म्हाका सोणु गेल्लो मू ... मिगेलीं चेरडुवां अनाथ जाल्लीं मू ...... चेरडुवांक आदार ना जाल्लो मू ...... अशें कितें तरी ती रडकुरया आवाजान बोब मारताली.

तिजो अनियंत्रीत बोब आयकतना अळशिकेची वीट आयली. तिजीं भुरगीं आतां भुरगीं उरूक नात, तीं जाण्टेलीं जाल्लीं. ताच्या अनाथपणापसावत रडपांत अर्थ नाशिल्लो. तिजे विसंगत विलापान कंटाळो येतालो—ती खय्यान घोवाच्या मोगान रडता काय आपल्या विधवापणाक लागून ? खरया दुखांत रडता कांय दुसरयांक दाखोवंक ? ना, ना. अशें रडप सोबना. तिजे रडपाचो हेतू मोग्याचो वियोग न्हय. हें रडप मात रिच्युअल. खरें न्हय. काल बापाल्य. धांपिल्या दोळ्यातल्यान चिडून दुकां व्हांवलीं, तें खरें रडणें.

बापाचो धांपिल्लो दोळो म्हण्टना···मिरयांचें तोंड स्पश्ट जाता, मुखार येता. मरणा उप्रांतय त्यो मिरया पुसनाशें रावपांत म्हजो वांटो आसा ?···

भायर केळीपानार बापाले नागडें प्रेत. गुपीत आंगार आनीयेक पान दवरिल्लें. ताका कोण तरी कळसो भर उदक हाडून न्हाणयता. दोन तीन पावट मागीर धव्या लुगटान पांगूरतात.

म्हजें मन मात्सें अस्वस्थ जाता—कळसो भर उदकांत त्यो मिरयो पुसून वचनात, धव्या लुगटांत भितर त्यो मिरयो लिपून रावनात.

मागीर मडें उखल्लें, हांवय खांद दिलो. 'हरिनारायण—हरिनारायण' म्हणतात. तें मिरयांचें तोंड म्हाका ओडीत आसा म्हण दिसलें.

सारयेर प्रेत दवरून लाकडानी तें पांगुरतनाय, मागीर भावान ताका उजो पेटयतनाय परत परत विचार आयलो—हो हाचो शेवट.

पुण चुकलों. सारयेक उजो वेंगावन वाडलो तरीय तें तोंड गोब्रोर जालें ना. आनी तेन्ना कळ्ळें—त्यो मिरयो केन्नाच पुसून वचपाच्यो नात. त्यो पुसून वतल्यो तेन्ना, जेन्ना हांवच सारयेर पडतलों.





# आर. के. प्रकाश

(ज. 1958) "कोंकण जनता" नेमळ्याचेर कथा, कविता बरयता. ह्या तरनाटे साहित्यकारालें साहित्य सत्याचें पडबिंब. पत्तो: 19/774 A आंजिलिपरंबु, पुल्लारदेशम रोड, पळ्ळुरुत्ति, कोची–682006.

# देवूय देवळय

गांव स्वर्गसमान करूक
गेरसेंत भांगर काडूक
दिकूका माका श्रीरामाक श्रीकृष्णाक
दिकूका मागीर तेतीस कोटि देवांक
माका चडका तांगेले देवळांत
मागीर बान्दूका देवळ तांचे जन्मस्थायांत
बान्दूचे एकेक देवळाकडेयी
बेसूका महाजनानी राती गोपराबायरी
काण्डण जाय खांडेय जाय
कोयती कुराड सगट जाय
भक्तीचे स्थानार शक्तीच्च जाय
भजन ना तरी मृष्टान्नभोजन जाय
भट ना तरी पेट्टु पुणीय जाय
भष्टितल्यांक बण्णें गोळकाय
माका माजें मन नष्ट करका
"माका-आमकां" म्हणूच दिसून येत्रंका
मनिसान मनिसाक मारनु घालका
मान मर्याद सगटय सोडका
गान्धीक आमकां धावंडावनु घालका
गोडसेक हांगा माळाय घालका
मारका, मारोवंका, मरण घालोवंका
मस्त जनांवो "नेता" हांव जावूंका
अपरांले जन्म नष्ट करका
आपण्यालो जन्म सफल करूक
परमात्मु आमचे ओटू ना तरीय
परमांतु माणिक्य किरलावंकायीच !

कथा

# मरण

गिम्मार अयलेल्या पावसालेखान दिसलें ताका तें बर्प. बं
आशिल्ले ताका त्या बर्पांत कोचीगांव दिसलो. ताणे हळूच प
वाकतें केलें.

"मोगा दोस्त प्रकाशाक,

तुगेलें दुसेरचें बर्पय मेळें. वेळ मेळना देकून हावें बरयलें
आशिल्लें. पुण तुगेले घराकडे व्होड विशेष आसा म्हूण अ
रोखडींच बरयतां. गावांचो नवो सब-इनस्पेक्टर एकलो शेणै. त
तुगेलेविशींचो वेव्हार अन्वेषण करता. रीण चड जालें म्हूण अ
मान राकूक आत्महत्या करता म्होण बर्प ब्रो नु दवोरनु न्हयन
बोंबेक गेल्लोलो ? न्हयंचे देगेर तुगेलो धोती, चोगो रीस्टवाच स
दिकून तूं "गेल्लोच" म्होण तुगेले घरकारानी आठयलें. बरयलें
बर्प भयणीक मेळचो वेळ परान तीं खळसां काडून रोणूच आशिल्ल
तू जितोच आसा म्हणचें सत्य ताणी गुपीत दवरल्यां. इनषूरनस
थाकून मेळूक आशिल्लो एक लाख रुपया मेळका तरि पोली
अनवेषनाची पत्रिका मेळका खंय. त्या खातीरीच हो नवो ए
आय. तुगेले घराकडे उलतीयो घालता. तुगेले भयणीक वरडी
करूक ताका बरेंच आवड म्होणूय आयकिल्यां. वरडीक जाता त
जावो. चांगच. पुण नेणताशें फटवण पडूक नज. इनशूरनसा
केवल्यांत अर्द वरडिकेकय, वीस सास आवसूकय बाकी तीस सास री
परतूकय म्होण न्हय तुवें बरयल्यां ? हें सगट गुपीत दवोरका म्हो
हावें तुगेले घरकारालागीं सांगल्यां. आनी मुकार तुवें घराचे पत्या
बर्प पेटोवंका नाका. माका पेटोवन दिल्यार हांव व्होरनु दितां.

मागीर खबर कितें ? थांगा तुका क्षेम न्हय ? हांगा आमकां
तशीच. रावयतां. तुगेलो, विजय."

बर्प वाचून ताका संतोषूय ताजे बरोबर दुःखय दिसलें. त्या केरींतली घाणी आनी गोंदोळ कारण तो भायर देवलो. मन नातिल्ले जनां मदें जन्मल्या एक बावल्यावरी तो भोवलो. चिकलांत लळचे कीडेवरी, त्या केरींतले पायकिळ्यांत जन्म काडूक ताणे निश्चय घेतलो. तीन दीस जालेनाय दुसेरीय कोचींत थाकूल विजयालें बर्प पावलें—

"प्रकाशा, कार्य सगट मातें खाल पांय ऊंच तशी जालीं. घर बान्दूक रीण दिवंचे कंपन्यांत तुका काम आशिल्लेंय; ती कंपनी खलास जाली म्हळ्ळेंय; तुजे वाटेन तांतूं दुड घालेलीं येवन घराकडे गोन्दोळ केलेलेंय सगट तुगेले भयणीन त्या इनस्पेक्टरालागी सांगीलें. मात्र न्हय, ताज्या भायर, कांय तडसूक जावनातिल्लें तूवें आत्महत्या करता म्हूण फटवणेचें बर्प बरोवनु दवोरनु बोंबेक गेल्लो म्हळ्ळेंय आशा-लतान ताजेलागी सांगलें तुगेलें बर्पय ताजेलागी आसा. तो तिका वरडीक करतोलो म्हळ्ळेले विश्वासान तीणे पापणीन हें सगट केल्लेलें. पुण ताका ताजे गावांत बायल चेरडूवां आसाय. तो साबाव नाटक खेळतालो. तुजे नावांर ताणी विश्वासघात वेव्हार करूक वताय.

तूं बेगीन हांगा यो.

तुगेलो, विजय."

आयुध गेल्लेले कर्णावरी तो ताजे त्या कुरुक्षेत्रांत रावलो. एक घोट उदकाक तळमळेलो. पेट, सामान, दुड कांय बी काडनाशीं तो कोचीक भांडी चडलो.

केदनाचे वरी त्या दीसाय एस. आय. शेणै साकाणी दांत घासूक वासरे भायर पावलो. भायर चोयल्लोलोय पोटांत उंडाळे आयले. मुकावेले पणसा रूकार एक प्रेत लांबता. खालाक एक बर्प. "हे भ्रगा, तूवें तुगेलें काम केलें. हांव मेगलेंय करतां. तुगेले दुष्कर्माक ही मेगेली शिक्षा ! अशि, प्रकाश."



कथा

# 'उदयाचें अस्तमन'

वेळु पेलांगलूक जावनु हांव टेरस्सारि वारेंय घेवनु वस्सुचे वेळारि तं तो दोळें नात्तिल्लो मान्तारो बार बर्षा एकि चेल्लि सहित नरकडे चोणु आयलोलो. त्या चेल्लियेलो मन्दहासु मीजे मनान्तु एकु रागु जावनु कीं एकु शोकु जावनु की एवनु माका तीजेरि मेळेलयो. "अगे अम्मा ! पोट्टाक भूक लाग्गतगे. इतेंय पुणि खवचाक दीगे" तो ब्रोब घालतालो जालो.

"हें होट्टल भी नेंय खंवचा दिवंचाक". मीग्गेलि आवसु ताका श्रापिता.

"अम्मा, जाल्यारि दुड्ड पुणि दीगे". तो वोच्चे लक्षण ना.

अरे, हें कांय धर्मस्थापन नेंय. "तूं हांगा तकून वत्त कीं सूण्याक सोडका ?" अम्मान हें सांगुचाक ती चेल्लि मान्ताराले हत्ताका धोरनु भायर गेल्लि.

"आप्पां आवंका वोच्चुयां, ती अम्मा चांगि नेंय. अप्पाक हांव वेग्गळेकडे थकून जायतें खाण काणु घेवनु दीन".

पिजल्लो चोग्गोय पर्णो गागोरोय घल्लेले त्या चेल्येन तशिश सांगुचाक माका होडु दुःख दिस्सलें सत्याक हांवेय भिखारियांक दिक्रिल्यारि अंब्रुडप् आस्सा. पिश्शच्याक सूणे वरीचि फत्तर मारप आसा. जाल्यारि है चेल्लियेकय मान्ताराकय दिखुचाक माका हांवेचि विस्सर्ता सरि जालो.

"अम्मा, तूं इत्याक त्या भिखमागराक दुड्डु दिल्लेनाय ? पाप, तो भुक्केन तं आसिल्लो." हांवे आम्मा लग्गि अशी निवगीलें.

"तुग्गेले आव्व्रोन कांय मन्दून दवर्लेलें आसवे दिक्किल्याक सग्ग् विर्कूक ?" अम्मान् मीज्जेलाग्गि निवंगीलें.

"ताव्वलि तूवेंय बाप्पाय दिस्दिसा देवाकय देवळाकय म्होणु सांगूनु विर्कीता इत्याक ?" हांवें म्हळ्ळें. "तूत्रें गोडगोष्ठा वर्तमान मात्र मीज्जे लग्गि उल्लोंवचाक पाड्णा." माग्गीरि हांवे कांय उल्लेयना. भूख लाग्गून पोट्टापशी, रोड्चे जीवा पशी अम्माक होड देवालें भांगरा विग्रह तं. त्या विग्रहाचे मुक्कारि राव्बून जायतें कर्यारि जाय्ते वेळे जांवका जल्लेले प्रकारीचि सागतलि. जाल्यारि अम्माले मुक्कारि कोणेय पुणीय मगिल्यारि आम्म अंबुडतलि.

हांव भित्तेरि गेल्लों. इत्तें कीं सोणु गेल्लेले प्रकारि मीजे मन्न तळवळेलें. भयणि भांवंड नात्तील्ले माक्का तिजेर एकि भयणीक दिकूक जाल्लें.

वेग्गळे एक दिस्सा दांव कामु जावनु धर्कंडे एवंचे समयारि वाट्टेरि त्या मान्तराकय चेल्लियेकय दिक्कीलि. माक्का तांचें लाग्गि मन्न सोण्णु उल्लोंवचाक दिस्सलें. जाल्यारि कांय पुणि उत्तर भायर आयलेना. "वे चाय पिवचाक" म्होणु सागून हांवे एकु रुपया विन्दून दिल्लो. "देवु रक्को मामु तुंवका" तो मन्तारो सांगतालो जालो.

ही गति एवनूय तू देवाक विसर्लोना वे ह्मोणु निवगूक माक्क दिसलें. तें सांगुचे फूडे ती चेल्लि "मामू ! मम्मालो पर्णो चोगो आसा जाल्यारि दिशिवे ? माक्का हो पिस्चल्लो चोग्गो नतना ना." म्हणु तीणें सांगीलें.

"दीन भयणी दीन. तुक्का इत्ते जांवका जाल्यारिय हांव दीन" ह्मोणु सांगूक दिस्सलें. उत्तर भायर अयलेना. हांवे सांगीले "आसो चोयना. आसा जाल्यारि दीन." हें आयकुचाक त्या बवलेले तोंडारि एकु उजबाडु पोळ्ळो.

हांव सीदा घरकडे गेल्लो. देर्लींतु पायु दवरूकचि बाप्प, निवगीता "अरे प्रकाशा, तूं वट्टेरि राब्बिल्लें त्या भिक मागरिया लाग्गि उल्लोवनु राब्बिल्लो हांवें दिकीलें. तूका लज्जा नारे !"

बाप्पा ! तीवेंय मनीप नेंय्रवें ? हांवे सांगोलें.

"जाल्यारि तूंवय वोच्चून तांचें लागिं राब. अरे! संस्कार मर्याद सग्गै ह्मोणु आसूचें सोणु वेगळे लगिं बचाक पाणा." बाप्पाले हें बेदान्त आयकूचाक माक्का कोपु आयलो. हांवें सांगीलें. "बप्पा अष्टोंवंचे तराचो संस्कारु माक्का ना ह्मोणु विचारु करि बाप्पा."

"तूं चांगु जांवचें लक्षण नारे. ना जाल्यारीय आतंचि चेडूंवा सग्ग् अशशीच्चि तं. एकलाकय देवाचेरि बिश्वासु ना. पोर्णों आचारूय ना. गोडगोष्ठा कड्डियो." हें सांगून बाप्पा भायर गोल्लो।

मीग्गेलो एकु पर्णो चोग्गो काण्ण् हांवें तिका दिल्लो. तव्वळि तिग्गेले तोण्डावेलो उज्वाडु केमलो ह्मोणु सांगूक साध्य नँय.

हांवें तांका बाप्पाले षष्ठिपूर्तीक घर्कडे एंवचाक सांगीलें. मन्न ना मनान तन्नि एन ह्मोणु सांगीलेंय, सत्याक ताव्वळि माका पोट्टान्तु गपगपेतालें। जेंवचाक बेस्सल्ले अब्बोकय नात्तियेकय गोंवटेक धोरुं भायर घल्तोलो वे ह्मोणु माका भय जाल्लें.

बाप्पालो षष्ठिपूर्ती दीसु आयलो. सकळींचि एदेय साधन घेवनु एवंचे वेळारि वाट्टेरि एकु खीटु. हांव खिट्टान्तूलेन चोणु चोयलो. मीजें मात्तें घुवलें ती चेल्लि एक बण्डीचे मगलंचे घाडे पोन्ताक पळया. हावें तिक्का दिल्लो लो चोग्गो तं तीणे धल्लोलो. रक्तांतु बुड्डूनु पळया. तिग्गेले हत्तान्तु एक धा रुपया नोट आसा. एदेय चिल्वाण दुड्ड खालय पळया. मीग्गेले दोळे भर्ले. मान्तारो नित्य पड्चे अंगीडीचे तट्टेरि हांव गेल्लो. थांगा साधु मांतारो सुखान निद्दवुनु पळळा. हांवें ताका जग्गेयलो. दोळे पुसून ताणे सांगीलें."
"तुम्मि वे, चेल्लि तुंढगेले घरकडे वोरूक एक साघल कांघेंवचाक अंगडीन्तु गेल्या. अत्तं पांवतलि." हे आयकुचाक मीग्गेले दोळे एक लग्गेन भर्ले. माका उल्लोंवचाक जीब आयलीन. कशिश एत्तलि ? लोकान्तु थकून उब्बून गेल्लेले त्या प्राणिया पसून मन्न भर्ले. तें दुःख गेल्लेना ह्मोणु अत्तंय दिस्सता.





# बी. लक्ष्मण मल्या

(ज. 1950) हाणी बरयलेले "माणकी" ह्या कथेक 1993 वर्साचो "पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार" मेळ्ळो हांच्यो कविता "कोंकण जनता" (कोची) आनी "कोंकण टायम्स" (गोंय) नेमाळ्यांचेर उजवाडाक आयल्यात. भारतीय स्टेट बॅंकात काम. पुरोगामी कलासाहित्यांत विशेष रुचि. पत्तो: "शंकरप्रिया", 4/822, नोर्त चेरळाय, कोची-682002.

# परिणाम

ब्राह्मण हांव
गोंयां ब्राह्मण हांव
गोंयचो सोण गांव बोंचो
ब्रह्मज्ञानि ब्राह्मण हांव
सायबालो संखाळि अवसूचे पय्याक
सायबालो कदियात अवसूले तोण्डाक
सायबालो बन्धनांत अवसूक सोण
गोंय सोण गांव बोंचो
ब्रह्मज्ञानि ब्राह्मण हांव
गोंय सोळ्ळें वाणिक जालों
वाणिक जालों सत्य सोळ्ळें
सत्य सोळ्ळें धनिक जालों
धनाचे राशीर शयन करचो
गोंय सोण गांव बोंचो
ब्रह्मज्ञानि ब्रह्मत्वहीन हांव
ब्रह्मत्वहीन ब्राह्मण हांव
धनहीन वाणिक हांव आजी
दंदक्कारि हांव रातदीस
दंद करचो दंदक्कारि मनिष हांव खेद ना
मनिष हांव आजी एक मनिष हांव
गोंय सोण गांव बोंचो
ब्रह्मत्वहीन ब्राह्मण हांव.



कथा

# माणकी

[1993 चो पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार]

'अरे विटपा ! माणकी चमकीली रे !'—एक आयतारा घरकडे ायलेले मिजे लागि अम्मान सांगीलें. हांव उद्योग मेळनु कोल्लांव ाम करतां. एक घडियेक हांवें चिंतन केल्ली. एक म्हांतारे रूप गेले मनांतु आयलें.

गोड बांन्दून येवुंचे भाटियेचीं वेळां निसरावनु तांतु थापून ाशिल्लें गोड निकळावनु काडचे एक बायल-मनिसे रूप मिजे मनांतु नयाळतालें. सण्ण गुड्डी काळी. कुंकुमे तिळो निडळारि. केसां ंडों वाला, फडिचान ब्बावनु तांबीडे वोंट, हातांक घणघणेवुंचीं कुपिये ांकणां, गोमटेक तांबीडी दोरी, घुसळी न्हेसवण—हें रूप मिजे मुकार आयल्या वरि दिसलें.

आमगेले घरकडचे कष्ट दिकून गोड्डा ब्यारी अंनमामान दान दिल्लेली गोड्डा भट्टियो तं माणकी बेसून निसरायता. गोड्डा कुटूको आतां मेळतलो, आतां मेळतलो म्हणु लेकून आमी चेरडूवां गोड निसरावचें चोवनु अम्मा लागी राविलांयि. दोन सांजो ये गोड्डान व्रतल्यो न्हवें, माणके ? अम्मान म्हळें. माणकेन व्हय म्हळ्ळेले लेकान मातें हालयलें. हांव अम्माले ओरलाक धरनु राबीलां, माणकेन दिकीलो. माका लागी उळदूनु एक गोड्डा कुटुको हातारि दवरलो.

'धर खोता, खा आनी वचुन बूक काडून सिक. सिकून तुकडी सराप जाल्यार पयिदारे कापो पीवुंयेत. होडु जातरि माणकेक बी खोतान विसरू नये'. तांब्रीडे दांत दाकौनु माणकी हासली.

वर्षांक चाळीस सास दंगाळी भात मेळचे गजनी धन्नी तं सूर्य नारायण पोरब्र. घरा मुकारि राशि करनु घालचे नारलाक लेक ना. सकाळीं उटायल्यार आंगण झाडका, घरांतु कोयरु शितडो कोरका,

आयदनां वासुका—हें घरकडचें नित्यनिदान. लुवणि जाल्यार भा
उक्कोडका, सुकोंवुंका आनी कांडूका. नारल पाडोवनु जाल्या
माणकेक एक घडियेक बेसूक जावुना. नारला वोळीं सुकोवनु खोब
जावूं पेरेन माणकेक नीद आसूंना मन्दरेक फाटि लावूं भितर दं
करूक कूलि कांय ना. पोटाक शोत, न्हांवुंचाक तेल, राबूक खोर्प
मागोर कसली कूलि ?

'चेल्या कानाक करनु घालका म्हुण माका एकि आशा आस
माणके' अम्मालो आग्रह अम्मान माणके लागी सांगीलो. तें आयकि
बाप्पान म्हळे. 'हांवें दंद केल्यार, मेगेले कुल्लीन चेरडुवांक दो
वेळांक सरि पोटाक घालूक मिजान जाय ना आमकां असली आ
मनां सरि दिसूं नज, सरोजिनी !'

बाप्पाक ह्योटलांत तं दंद. सकाळीं स वरांरि दंदाक चडल्या
राति जातली परतून येवुंच्याक. बापान येवुं भितर आमी चेरडूं
निदेल्लीं आसतलीं. राति येवुंचे वेळारि बाप्पा तेदूस आंगडी
तळ्ळेलें बोंडा, मिरया सांग, मुळीक ह्ाजे सगा आयदनां पोदांक वरा
चण्या पिटिये सुवो सरि पट्टळी बान्दून काडतलो. हेरदूसा तें आ
खानाय चोवनु बेसतलो आमगेलो बप्पा. तावळि बप्पाले दोळे भरा
दिकिल्लो उडगासु माका आजीय आसा.

हें सग आसल्यारीय मिजे कानाक करनु घालका म्हळेली आश
अम्मान सोडळी ना.

अम्मान म्हशी गोट्यांत सुकून शेण व्हावनु हाडळें. म्ह
वाडुपतल्यांक गोट्यांतु सकून कोण शेण व्हेल्यारीय भारी संतो
तांकां दंद तितलेच उण जालें न्हवें.

अम्मा शेण हाडतली. अम्माय माणकीय मेळनु शेणि करतं
एक वर्स शेणी थापिल्ले दुडु मेगेले कानांक वेडि जावनु लांब
पडल्लेले माका उडगास आसा.

वर्सा भोगून गेलीं आनी माणकेलो घोवु चमकीलो. माणके
केसु पिकलो. दंद करूक आशिशल्लें आवद ऊणें जालें. पोरब माम

तिका घरकडचे दंदा थकून नोडळी. तिका दंद करूक जाय ना. मोक्ष मेळूक कोण कोणाक दंदा राबयता वे ?

खंयीयि कोणाकयि नज जाल्यार माणकेक सांगल्यार पांवता. तिजान जायत तकीत त्या घरकारांक सहाय करता तानि खांवुच्याक पिवुंच्याक दिल्यारि संतोषान घेता.

मिगेले धाकूले भावाक तावळ दोन वर्सां प्रायि. एक दीस सांजे खतखति आंगा हुनसाणि. दूसरे दिसा चोयि आंग सगळेंच फाफेवनु आसा. अम्मान माणके उळदून हाडि म्हुणु माका पेटयलो.

'माणके माणके'. हांवें खोपिये मुकारि बचून उलो दिलो. एक घडी जांवुचानीक भितर सकून तिणे निवुंगीलें.

'विटोप खोत वे ? कितें खोता ?'

'तुका अम्मा यो खँ'—हावें म्हळें.

'कित्या वे खोता ?'

'भावाक नज. अम्मा तुका उळदीता.'

'बसा खोता'—एक माणायि मुकार धुंगूळनु तिणे सांगीलें 'कुय्यां खावनु येतां आं, बेसा.'

तावळ तं हांव भितर चोयतां. ती जेवतां. शिता उंडी बिरमी करम्बला आडगयंतु बुडोवनु खाता. थापूचे सुरें वोरवा शीत. कालचे आसतलें. आमगेले घरकडेय तेच वोरवा शीत तं.

माणकी आयली. अम्माले पायांरि पडळेले चेरडाक चोयली. सांगीलें.

'देवीलो कोप अतें. देवी देवळाडे तेल घालका. सिंदूर हाडून फाफेल्ले आंगार घालका.'

तिणे भावाक पांयार घेतलो. मागीरि देवाल्या वचूंवरे माण पांयांरीचि तं अशिशल्लो. माणके पांयारि पडून तं ताणे दो धांपिल्ले.

उपरांते आमी तें घर, सोडूग बेगळे भाड्या घरां सरलीं.

दीस कशी वताय, आश्चर्य दिसता. अमी चेरडुवां व्होड जालं माका काळेजांतु वचून शिकूंची आशा. ताका दुड्डू जाय अशिशल्ल अम्मान एक बालवाटी पांच वर्सा खाल प्राय आसचे चेरडुवां खार्ती आरांत्रीली. शिकूक जायतीं चेरडुवां आयलीं. आमगेलो शिकवण मुकारि गेली.

हांतुभितरि माणके खोपिये मुकारि आशिशल्लो तोडू रो जालो. रोडाचे दोनीय तांतु घरां आयिलीं. माणकेली खोपी पिसडू आंगडि बान्दल्यारि पोरोब मामाक भाडें मेळतलें. माणकी कां आतां तागेले थयि दंदाक येना.

एक दिसा पोरोब मामान माणके उळदूनु सांगीलें-माणके तुक हांवें खोपी बांदून दिल्लेली तूं तावळ आमगे थयि ददा येताली. आत तूं दंदाक ना. तूं एक कायरीं करि. हांव तुका पायशीं रुपया दी तूं राबूक वेगळे कडे खयींय चोय.

माणकी खयि वच्चाक ? तिका कोण घर दिता ? ती कां उलयली ना.

नेमु कांय माणकेक खोपीयें सकून देवोवनु सोडूक अनूकूल न्हंय देकून पोरोब मामान बांकूडि वाट धरली. दुडवा वेल्यान घोणी सि उबची ना. पोरोबमामाक खयि किर्ते करका म्हणु कळता. दु कांय ऊणे ना. माणको खोपियें थकून बायर. तिगेले बगेक उलौंचाव कोण ? कोणय ना.

अंगडीचे मेटारि जालो ते परांते तिगेलो वासु. तिका कोण लगि कोपु ना. धरांधरि पाबसु पडचे एक रातिं कडकडेवनु कडकडे वनु माणकी मेली.

पावसु पडता आसा. हांव चोगो घालनु सातूली विसक्ळावनु भायर देवलों देवळांतु वच्चाक. रोडारि डांगीरे मारनु सांगून वत्ताय.

'समाजबन्धु, समाजसेवक श्री सूर्य नारायण प्रभू हांगेले बगेक परीक्षेंतु प्रथम आयिल्ले विद्यार्थिक सुवर्ण पदक पुरस्कार दिताय! सर्व जनांनीयि परिशाटींनु भाग घेवंका म्हणु विनन्ती.'

'बाप्पान मरचानीक मडे लासुचे बगेक पुरतेच पांच रुपया दोवुंनात्तिल्लो, कापसांतु खुंटि मारचो. पिसको, थू! पुरस्कार ताजो...'

कोण थू करता म्हणु पूवनु चोयि, मडे व्हांवचो शेणै मासु तं.





# सुशीला त्रिविक्रम भट

(ज. 1942) हाणी बरी कथाकार म्हूण नांव जोडल्यां. जायत्यो काण्यो 'कोंकण जनता' (कोची) आनी 'चित्रंगी' (गोंय) नेमाळ्यानी भायर आयल्यात. हांचो कोंकणी कथासंग्रह "शुद्धिकलश" हाचें हतबरप तयार जाल्यां. वेंचीक कोंकणी कथेंचो मल्याळम अणकार उजवाडायतना केरळ साहित्य अकादमीन हांगेलीय एक काणी वेंचल्या. श्रीमति भट एक समाजसेविकाय व्हय. पत्तो : 4/1051, डो. जे. ए. भट रोड, नोर्त चेरळाय, कोची–682002.

कथा

# साळग्राम

पोस्ट मान बर्पा घेवन आयलो. ताणे व्होड्डान उळदून सांगलें. "शेटजी पुतालें बरपा आयल्यां कवर जडच आसा, ड्राफ्ट अनीक आसुयात रजिस्टर तां. एक हस्ताक्षर करून दी." एक पाय मोडून आसिल्ले कदेलांत न्हीदेवन आसिल्ले गोपाल शेटीक पोस्टमानान जागयलो, अनीक हस्ताक्षर काडून घेवन बरपा दिलें. "पुत्तान दुड्ड तां धाडुन दिलयाय जाल्यार म्हाकाय विसरूक नाज्ज वो. मिगेलेय प्रार्थनेचे फलान तां राजाक दुबायांत काम मेळ्ळयां. कळ्ळें व्हे?" हें सांगून तो हसलो. राबिल्ले कडेच राबून मातें खरपूंक लागलो.

गोपाल शेठीन ताका जाप दिली. नासर चोयतां कवरांत इत्तो म्हुण तरी ड्राफ्ट तांतु असा जल्यार फल्या तुका सन्तोषाक इत्तेंय दित्तोलोंच. त्या कार्यांत तूं कांय बेजार जावंनाक्का. अतां तूं वच वेगळकडेय बरपां दिवंचाक असाय न्हवे तुक्का?" जायत म्हण संगून नासर गेलो. गोपाल शेटीन बायलेक उळदीली; ती व्रासरयांत रन्दप करून आसिल्ली. पुत्तालें बरपा आयल्यां म्हुण आयकिल्लेंच आयदनांय उड्कावन धावन फिदरांत आयली. ते भीतर शेटीन लकोटो फाळन बरपा भायर काडलें. पत्राचे लागी व्रार हजार रूपयांचे ड्राफ्टय. ड्राफ्टावेली संख्या देखून विश्वास एवनात्तिल्यान शेटी एके लागेन दोळे उरकूब चोयलो. व्हय बाग सासूच. सन्तोषानय अद्भुतानय कर्तना तागेले ताळ्यांत गद् गद आयलें; दोळ्यांत उदाक आयलें. "बरपावेलो विशेश इत्ते म्हुण एक वाचून सांगाय म्हणे वेगीं" अशी विचारलेले बयलेले खन्दांक धरून हालोवन ताणेसांगलें—"रमा... अमगेले पुत्तान इच्चोय वार लासु रूपयांचे ड्राफ्ट धाडून दिल्यां. चोय चोय...एक दोन दुड्ड न्हय...पूरा बार सास रुपया! देवा...मिगेले चेरडाक खंय तो असा जाल्यारीय राक तूं."

अवसूकय होड आनन्द जालो की पुत्तान दुबयांत पाविल्ले उपरान्ते, प्रथम जाव्न बार सास रूपया धाडून दिल्ला दिकून उतलीच व्होड एक संख्या ताणी प्रतीक्षा केलेली न्हय. कामा खातिर पूत्तान दुबायांत वचून चार मास जाल्याय. थंगा पाव्न जालेल्या दुसरे मासात तां तांगेलें काम सम्च जालेलें. राबूक क्वारटरस यात्रेक वाहन सग मेळ्तलें म्हूण ताणे बरयिल्लें. कामार चढून जाले नत्तरय ताणे दोन वरपां धाडलीं. एक पसार लागी घरकडे फोण करून उलयलो तावळ ताणे सांगलें "अम्मां लागीच हांब एदे दुडवांचे ड्राफट धाडून दित्तां. जाय जालेले तकीत चोवन खर्च कराय म्हुण." अधीक घडियांक उलोबचाक जायनय. जाल्यारीय आवसूक संतोष जालो. पुत्तालो शब्दु, पुणीय आयकिलो न्हवें. एचंय आज तागेलें वरपय, ड्राफटय आयलां.

शेटीन बयलेक पुतालें बरपा सगळेंच वाचून आयकयलें. दीवन धाडचे रुपयांतलो अर्धु काडून बैंकान्त रीणाक बन्दूक सांगल्यां. मागीर अज्जेली घाण घालेली भंगरा माळाय, कंकणाय सोडोवन दिवंचाक सांगल्यां. तें जाल्यार भयण्यांक, मावांक, अम्माक-बापाक, अज्जेक वस्त्रा काडून घेवचाक सांगल्यां. सर्वप्रथम जावन सांगका जालेलें ताणे मगीर बरयला. तें कितें म्हळ्ळयार सामान घेवचे अँगडींतलें रीण सगळेंच दीवन सारतर मात्र बाकी कायरीं केल्यार पूरोय म्हुण. पाप अंगडीकार कुट्टी. तागेलो पूत राजालो व्होड दोस्त. त्याच खातिर ताणे शेटीक सामान उधार दिवप. "दुडु पुर्ते दिवनात्तिल्लें अनीक तुमकां सामान दिवंचाक जावन्ना" म्हूण स्वयजातींतुले आंगडकारानी सांगिल्ले समयार कुट्टीन, शेटीक तागेले अंगडींत उळदीलो' अनीक सनच ताळ्यान शेटीले कान्नांत सागलें. "शेटी फाय लागेन तुमी मिगेले अगडींत थाकुन जाय जालेलें सामान व्हराय. दुडु तुमचे हाथांत मेळ्ळेले तकीत दिल्यार पूरो. फल्य तुमगेले पुत्ताक एक चांग काम मेळतरी तुमगेलें सर्व दुरितय ना जत्तलें न्हय व्हे ?"

तशीं तां कुट्टीले अंगडीत थाकुन साधन काड्न घेवंचाक आरांभील्लें. आज चार पांच वर्षा जालीं ताणे लागी थाकुन व्होरोव

धान्य, गोड, पेयनदार, तेल इत्यादीक अवश्य सामान काडून घेत्ताय. व्हय ताका दोन सास रुपया लागी दिवंचे असा. प्रथम तें रीण दीवन पावंका. मागीर बाकी सगटय एक मनशान ताळो सुखल्ले वेळार दिल्लेले एक घोटु उदकाची स्मरणा केदणाय अस्सूका. मागीरीय पुत्तान जायतीं कायरीं बरपार बरयिल्लीं असाय अज्जेक जाय जालेलें तेल, आसव, पुट्टो सगटय समच घेवन दीवंका. बापान चांग एक डाक्टराक शहरांत वचून दिखुका; पोटा दूखी एवंची कसली म्हण निरीक्षण करोवंका, अम्मान अनोक उपवास वृणे करून इत्तेंय दोनीय वेळांचे पुणीय खावचाक चोवका, भावालागी चांग रुपान सिखून हाई क्लासार पास जवंचाक श्रम काडूक सांगका, भयणींगेलीं सोयरोके कायरीं पुत्तुमामा लागीं सांगून सोडका अशी जायतीं कायरीं. लागी मास लागेन तो मासान मांस पांच सास रुपया लेखान धाडून दित्तां म्हणूय बरयल्यां.

बेंकान्तुले रीणाक समच भोरून एवंका म्हण ताणे प्रत्येक जावन बरयल्यां. दोन मास वत्तर, गीम्मार घराचें रिप्पयर करूकय ताणे सांगल्यां. वळतीं येवन गलेलीं कवडां, माळ्यांचीं फळों, मुगुळू सगटय चांग कोरोवंका म्हुणूय सग राजान बरयलेलें असा. अनीक क्रमान सगटय सभालुक जात्तलें म्हुण ताणे सांगल्यां.

बरपा सगळेंच वाचून आयकून जवचांक राजाले अवसूक एक कार्यांत मात्र व्होड दुःख दिसलें. देवळांतले देवाक जावो, घरकडचे देवाक जावो, कांय पूजा, व्रत, निवेद्यू अशीकांय करूक मात्र ताणे बरयलें ना. "मिगेलो पूत देवाक मात्र विसरलो मू. देवा! तूं ताजेर क्षमा पांव. तागेले बगेक हांव, ताजी आवसू तुजे लागी याचना करता."

जाल्यारीय तीणे ब्रमणालागी सांगलें "अयकाय हांव मिगलो एक आग्रह सांगतां. आमकां ह्नूले दुड्डु आसगेले उपयोगाक कडचे फुडें, प्रथम जावन देवाक इत्तेय करका. तशी ता ह्यावे मनांत संकल्पु

केला. देवळांत एक उदयास्तमन पूजा अनीक निवेद एक सत्य नारायण पूजा. धा जाण चेरडूवांक अन्न दान" बयलेलें अवगणेचे लिस्ट आयकून शेट हासलो. "जावो. तुगेले खुशी तकीत देवांक करूँ अनीक त्या खातीर तुवे चढ उपास काड्का नक्काय." शेटीन बायले लागी सागलें. "राजाले बरपय दुड्डुय आयिल्ली कायरीं हांव तुमगेले अम्मालागीय सांगता. भवडेक व्होड संतोष जातोलो अयकून. मोगाचो नत्तू न्हय व्हे ?" रमा मायचे कुडांत गेली. अत्यावश्याक मात्र चमकूक तां अज्जेच्यान जाता. प्राय अश्यां लागी असा. म्हतारप्राय वोखदांतूच. जाल्यार उडगासाक जावो उलोवंचाक अयकूक जावो कसलो वूणावु ना. दोळे मात्र चिके सम न्हय. मनगांगेलीं तोण्डां साय सी दिखूक पडताय. जाल्यार शद्ब आयकून व्यक्तीक मनांन करूक जाता.

नत्तवालो बरपाचो दुड्डु धाडिल्लो खबर आयकून अज्जेक व्होड आनन्द जालो. तिणे देवांक स्तुती सांगली. तिणे सुन्ने लागी सांगलें— "अगो रमा ! मिगेली कांकणां, माळा अनीक घाण सोडोवन हाडूक अमसोर काडू नक्काय. ताजाक अत्यावश्य आसिल्लीं उतूलीं की कायरीं हगा करूक पडल्यांय. म्हाका तें घालनु, शिगारन् खंतय वचाक असा ? ह्याच कुडांत पडूक न्हय व्हे ? आज ना जाल्यार फल्या मिगेले जायें तुमकाच आसिल्ले न्हय व्हे ?" तें आयकून रमान जवाब दिली "तशी न्हय. अमकां उतूल-उतूले कष्ट, दरिद्र आयले जाल्यारीय अमी तुमगेलें अंगार आसिल्लें जायें मात्र काडूनये आसिल्लें. तुमगेले पुत्ताक तंतु चांग निर्बन्धु आसिल्लो तुमगेले मनशान मोगान तुमकां करोवन दिल्लेलें आभरण खंयतें म्हुण आयकिल्यां " "तुळसी ! हांवे अतां तुजे गोवंटेक, हाथांक गालचीं हीं आभरणां तूवें मोरन जात्तर तां अंगावेलीं काड्यात. मागीर अमका उतलोय वायट समय एत्ता जाल्यारीय तूवे हीं भूषणां मात्र अंगार थाकुन मेकळूक नज्जा. हो उगडास तुका केदणाय आसका." अशी सांगून खंय मू मांवान तुमकां तीं दिलेलीं. त्याच पसबत जायते अत्यावश्य एयल्यारीय अमी नुमगेलें तें जायें मात्र काडनय. जल्यार राजाक पेळतडी वचाक

पासपोर्ट समकी कोरचे खातीर दुडबांक वेगळी खंची वाट ना दिकून मात्र ताजेर हाथ दवोरका जालो. इत्तें कोरयात? मनीस एक लेकता देव अनियेक करता.

रीण नांक पशी चढून आसिल्ले वेळार कोण आमकां अनीकय रोण दित्रंचाक? बेंकांत जाल्यार रीण घेत्तल्याचो घांतूलो एक वंटा सरी तीन वर्षां जावनूय भरूंक जालेना. सिखवण जावन तोन वर्षां जावनूय हंगा जन्म देशांत चांग एक उद्योग मेळनय दिखून न्हय व्हे. राजाक वेगळे राज्याक वच्चुका जालें. पपियान उतूलें सोदीलें? उतूलों अप्लिकेशन धाडली? उतूल स्थलांरी इंटरव्यूक गेलो? कांय प्रयोजन मेळ्ळों व्हे? देवान तागले वोरव बरयल्याय दुबायांत हां...कशीय जावो. तागेले त्या अलबरट नावांच्चा खारयां चेड्यान सहाय केलो दिखून हें काम अत्तां पुणीय मेळळें इत्तें करूंक? कपलांत बरयेलेलें सर्वय भोगूनूच न्हय व्हे सोडवाट?"

अज्जेन उडगास केलो—"रमा रन्दप सग जालें व्हे? गीता अतां जेवंचाक पवंतलीं मू." तावळी तां रमाक स्थ. कालाचो बोधु जाला. ती वसरयांत धावली. अतां तिगेली म्हलगडी धूव एक वरार जेवंचाक पावंतली. लागीचें एक 'अंगनवाडींत' आया जावन ती काम करता. प्रतिमास तिका देडशें रूपया तां वेतन जावन मेळता. जाल्यारीय 'लासल्ले घराक ताण्डिल्ले वासे' म्हणचे गदीच कुटुंबाचे खर्चाक तिजान जवंचो सहाय ती करता. सग पशी कांय काम नात्तिल्लें नुतोच बेसचे पशी चांगच न्हय व्हे? वेगळे काम करचे बगेक पुरश तिका सिखवणय चढी ना, प्राय अठावीसां लागीय. राजा पशी म्हलगडी भयणी ती.

राजाली धाकली भयणी सीता शहरांतले एक 'लक्की स्टोर' म्हळ्ळेले स्थापनांत टाइपिस्ट जावन काम करता. तिका मेळचे दुडवानी जावका घराचीं कायरी मुखार वचाक. तिजे लागीचो भाव कोळेजांत डिग्रीचे अन्तीम वर्षाक सिकता. राजाक इन्जनियर कोरचेखातीर शेटीन भोव कष्ट भोगीले. जायतें रीण घेत्तलें, शेतां कुटके

विक्कीले, अवसूलें आसिल्लें जायें सगटय विकूका जालें. खंय थाकून कस कसल तराचें रीण काडूक जत्ता कीं तें सग काडलें. त्याच खातिर चेलियांक कोळेजांत बळोवंचाक जाग्नय पाप. सीता सिखूक चांग दष्टीक आसिल्ली म्हळ्ळ्यार खर्च करूक कांय वाट ना जाली राजा-लीच सिखवण पूर्ती करूक जायत व्हे म्हुण आशंका जाली. तितूल कष्ट जाले, दुडवांक साय-सहाय करूंक निजाचीं कोण ना जाली. चांग मार्क घेवन पास जावनूय घेवन ताका चांग एक काम मेळूकय ना जालें. जाल्यारोय तो सुस्त जावन वसलोना. ट्यूशन काडून पारलल कोळेजांत सिखोवन् सग तो चार खोवळे करतालो. गावात कांय वाट ना जवंचाक दोस्त आलबरटाले सहायान तो दुबायांत कामार चडलो.

"कळवे तुमी एक त्या किच्च भट मामक दिखून एय्याय. लागीचे आयतारा तंका बेटेल अस्तोलो व्हे म्हुण जाण जायाय. घरा देवांक अर्चनय, सत्य नारायण पूजाय अमकां जायत उतूल वेगीं करूयां, त्याच्च लेकान देवळांतली अवगणय" रमान फिदरांत येवन बमणालागी म्हळळें शेटीन तिका जाप दिली. "रमा तुवें अशी ओमसोर काळळार जाल्लें व्हे? राजान वरपार संगिले बेकान्त हें ड्राफ्ट व्होरन दुडड करून काडून घेवचे असा ताजाक फुडे अमचे नावान एक एक्काऊंट आपण करचे असा. तूवें घर म्हळ्यार घारी जवंन्ना. सगटाक एक्केक रोती असा. शेटीन बयलेक सगून मनांत केलें. कोळेज सोडून रवी एवो ाज जालेना जाल्यार फलय ताकाय घेवन बेकान्त वचूका." शेटीन सांगलें.

अन्नालीं बरपाचीं, ड्राफ्टाचीं कायरीं आयकून भाबाक, बयणीक व्होड संतोष जालो. गीताकय खुशी असा जल्यारीय तिका संयमन पालन करूंक कळता. रवीन तागेले मनांतुली एकेक आशा अम्मा-बापा मुखार दवरली. डिग्री पास जाल्यार तोवय अन्ना लागी वोचून थंगा काम करतलो म्हणूकय तो विसरलोना. "अमकां खेळू, निंदा. परिहासु केलेले जनां मुखावेल्यान एक रणिये मदरीब म्हाका चमकून

चका" सीतालो आग्रह तां हो. जाल्यार गीतात चांग संगून तांत्रा टकरायलीं. कसले कार्यांकय अहंकारू काडूक नज्ज म्हुण गीता न भवंडाक समझायलें. दाम मनशाले हाथांत एवंचाकय, नष्ट जावंचाकय अधिक समय नाक्का म्हुण तांगेले कुटूम्बाचेच उदाहरणान भावण्डाक मनात केलें.

उतूलें की प्रतापबंत आसिल्लें शेटीन कुटुंब्र. गोपाल शेटीलो बापूस गांवचो व्होड कोयलूवे व्यारेली आसिल्लो. व्यारांतूलो लाभ काडून शेतां, परमां, जागो, घरां, अगड्यो, भंगार, आयदन पायदन सग संपादन केलें. गोष्टी भरी गायो. नौकर-चाकर, दान-धर्म घराचे देवाक, साळग्रामाक नितय पूजा निवेदु. एक भटमामाक प्रतिभाव वेतन दीवन पूजा चमकयतालीं खंय अज्जालो बपूस अनीक ताणे फुडेचीं म्हलगडीं स्वत: पूज करून तां एत्तालीं खय. सकाळीच सात वरां फूडे देवाली पूजा जावन जात्तगी खंय तीं व्याराक वत्तालीं जाल्यार गोपाल शेटीले. बापसूले कालाक पूजेक भटाक दवरलो. पूजा जावन जाल्यार खाण, जेवण जावन ना भटमाम परततालो. अन्नदानय तशीच जाल्यार हो प्रताप अधिक काळांत दीघु जावन राबलो ना. लक्ष्मी खंय स्थिर न्हय म्हूण सांगप अना. अज्जाले भावांनी व्यारांत फटवण दाखोवंचाक शुरू केलें. अन्नां-भावां मदें झगडो आरांबीली. हो संदर्भु स्थापनांतले कर्मचारींनी शोषण केलो. व्यारू फुटलो रीणार रीण आयलें. शेतां, जाग्रें सग विकून रीणाक समाधान केली. ताजान मन मुरडून अज्जो मरण पावलो. जीवन काडूक प्रयास जवंचाक गोपाल शेट एक तेला मिलांत कामाक मेलो. घराचे देवाली पूजा स्वयं करून येतालो. जाल्यार सात वर्षां फुडे तागेले उज्जो हाथ यंत्रांत पडून मनकटा खाल आसिल्लो भाग कातोरन गेलो.

त्या समयार राजा इंजिनियरींगाक परगावांत सिखता तां. राजा सिखूक अनि बुध्दवंत दाम-दुड्ड वूणे जाल्यारीय सिखूक दपटीक आसिल्ले चेरडाक सिखोवंका म्हुण गोपाल शेटीली आशा. राजाले मास्टरांनीयी सांगले, ताका सिखयाय म्हुण, अनीक त्या कुटुंबावेरी कोणे व्यारू करूक तैयार जवंचाक नज्जा म्हुण गोपाल

शेटीकय दिसलें. सर्वय देवाक अर्पण करून तां ताणें पुत्ताक सिखूक घालोलो, जाल्यार दुसेरे वर्षाच तागेली हाथाची दुर्घटना चमकीली. काम करूक, देवाक पूजा करूक ना जालें मागीर वर्षाक एक फन्ता नवरात्रींत मात्र देवाली पूजा चमकोली.

राजाक पूजेंत अनीक व्होड तात्पर्य ना जालें. "बपा म्हका काम मेळन दूर वचून रावका जालें जल्यार पूजा कोण करतलें ? तेंच म्हय म्हका पूजा विधी कळनान्हय वे? अनीक सिखून काडूक प्रयास अस्तलो. जावो बापा. म्हाका काम मेळतरी आमकां दुसेरीच भट मामाक दवरून पूजा करोवूं." परीक्षा पास जावन घरल्याक ताणें पाबचे कालाक सांगिल्ली भास ही.

रमाले आग्रहा लेकान देवळांत उदयास्तमन सेवेक, मुळिकां पूजेक दाम भरलो; पुन्नव तेदूस तेदूसच धराचे देवाक पूजाय, संजे सत्यनारायण कोरूं म्हण दवरलें. सत्यनारायण व्रत करोवंचे राजा गांवान येत्तरी पूरो म्हण दवरलें. अत्तां अगत्य जावन आसिल्लें मात्र कोरयां; बन्धु बांधवाक उळदून करचें संत, सौकर्य चोवन कोरूं म्हणूय दवरलें.

पुन्नव तेदूस गोपाल शेटीय धकूल पूत रवीय मेळन देवळांत गेलीं. देवाक पांय पडलीं. पायस पूजेक संकल्पु रवी करूयान दीवयलो. प्रसादूय घेवन घरकडे आयलीं. अनीक देनपारां पूजेक बार वरार देवळांत गेल्यार पूरो. गोपाल शेटीन रवी लागीं सांगलें "पुता तूं एक फंता लागेय अनघाळ्यान मत्यारी न्हावनु यो. एक ती व्होयरी उदार करून भितरी एक फपूण कोयरू पर गाली. देवालीं तीं बिबां, विग्रहां, साळग्राम सगटय वोल्ले लुगटन पुस्सून वृत्ती करी. पूजे आयदनां, दिवल्यो हेंवय सग घसून दवोरका. तीनी विग्रहांचे गोवंटेक भंगराचे सोर आसाय. तवेय काडून रिंटो घालन घस्सून उतरांवका. सर्व कायरीय हांव लागी बेसून तुका संगून दीन. बयलानी व्होयरेक अपडूक नज्जा म्हूण असा. ना जाल्यार हांव तुगेले अम्मा कग्यार सर्वय करयतलों आसिल्लों. तुका बाधा दिवन्ना

नासिल्लें. वृणव्व आसिल्ले हाथाक मनकटना तिल्लो-ह्रांवे चांगपण कशी करप ? दावे हाथान करचें सम न्हय वच पुता, न्हावन यो."

सीताय गीताय बेसून फुल्ला माळा गन्तिताय. सग कोग्न म्न्हेरा पंचलोहा विग्रहा आसाय. गोवांत थाकुन प्रवासी जावन ह्या देशांत पविल्ले म्हलगड्यानी हाडिल्लो तां ती विग्रहां म्हुण तां विश्वास पवंताय. व्हय जावयात न्हय जावयात. महाविष्णू महादेवू, गणपती, श्रीराम-सीका, हनुमन्तु, नवदुर्गा अशी वत्ता विग्रहांचे लेक. तंतु प्रधान व्होड तीन बिंबाक भंगरा माळा असा. कुटुंबारी उतूल सभार कष्ट आयले जल्यारीय गोपाल शेटीन देवालें भंगार काडले ना. तें नाच म्हुण लेकून तां दीस काडल्याय.

रवी न्हावनु पावलो. ताणे देवाले कुडीन्तुलें बळब जळयलें. व्होयरे कवड उदर केलें. कर कर...र...र...म्हळळेले शब्दान कवडां दूर सरलीं. भीतरचीं फळी शून्य. ताणे व्होड ताळयान बापाक उळदीली. "बापा एक धावन यो. बापा आयलो "इत्तें पुता इत्तें जालें ? कांय चरवल्लो मी ?" "न्हय बापा हंगा बिंबा कांय दिखूक येनाक" —खायसोकान रवीन सांगलें. पुता चांग करून एक पळतां-पेळतांत खाल-ऊंच सग्ग एक चोय रे पुत्ता" बापान सांगलें, रवीन-चांग करून चोवन सांगलें. "ना बप्पा ना. हंगा चार सान साळग्रा । मात्र दृष्टी पडताय. ते उतूले आसिल्ले ?" हें आयकून गोपाल शेटीक दोळ्यांत काळूक अयलो. तो मूंयचेर ढं जावन पडलो. शब्द आयकून रमाय धुव्वोय कूडांत धावन पावल्यो. देव दिखूक नाय म्हुण अयकूक अवसूनय बोव मारली. देवा ! कोणे की हें कर्म केल्यां जाल्यार तूच ताका शिक्ष दी. जाल्यारीय हंगा भीतर चढून फारूक कोण चोर तो ?" रमान उदवेगान निमगीलें.

"अम्मा-बापा एच्चय एक बरपा. अन्नून बरयिल्लें तां. एचय ह्या झल्लरेचा पोन्दाक थाकुन तां म्हका मेळळां." रवीन व्होडान सांगलें. हें अयकून गोपाल शेट मिमिडसेवन उठायलो "वाची रे पुता

वाची. आयकतां." शेटीन रडून सी सांगलें. रवीन पत्र वाचीलें. प्रिय बपसूक अवसूक.

हंगा ह्या व्होयरयांत प्रयोजन नात्तिल्लें दवोरन सोडिल्ली बिंबांय तीच्च भंगरा माळाय, चन्दाय आसिल्ले पांच साळग्रामय विक्कून तां हांवे दुबायांत वच्चाक आसिल्ले पास पोर्टाक, इतर आवश्यांक सगं ज़ायन पांतीस हजार रूपया तैयार केल्ला. म्हाका इतलोच रूपयां दीवन सहाय करूक मिगेलो दोस्त आलबरट कुबेरू न्हय म्हुण तुमका कळना व्हे? तो अमचाक पाष्ट. काम घेवून दिवंचाक तागेले मामालो सहायु अमकां चांग रूपान मेळळो. तोच न्हय वे व्हड उपकार. गत्यन्तर ना दिकून मात्र हांवें हो अक्रमू केलो. अज्जेली कंकणा, माळा घाण घाल्यार कितूले दाम मेळूक? हीं बिंबा हंगा असूनय व्होड उपकार असा म्हुण म्हाका दिसलें ना. आद्याक फाटी न्हय नव्हे चोयप? पोट चोवन जात्तर फाटी देवान अमकां संदर्भु दिल्यार हाजाक चांग विग्रहां हांव काडून घेवन कूडींत दवरतलों. अत्तां ही बिना वेगळी वाट ना. अनीक रीण काडूक कांय पुणीय हादी असा व्हे? म्हाका गावांत जनांक तोण्ड दाखवंचाक लजा दिसूक लागलें. सर्व जनालेंय प्रश्नु एकूच "तुका काम कांय अत्तांय जायनय ना व्हें?" हें अयकून म्हाका पूरो जालें. आत्महत्या पर्यान करूक दिसल्लें असा. कष्ट कालान न्हय वे म्हाका काम मेळ्ळें ना आसिल्लें. भारी कष्ट काडून तां आलबरटान तागेले मामा करयान एक काम सम करयल्यां पास पोरटाक दाम ना म्हुण सांगून तें चुकोवंचें सम न्हय. ही नन्तना वेगळो वाट ना. अव्वोंगेले उडगासा बगेक एदे साळग्राम मात्र हंगा सोडतां. अमगेले पूर्वीकानी, ह्या देवानो कांय मिजेर कोप्पुन्ना. तुमीय कांय दुख पावंचाक नज्ज. अज्जेकय सांगून मनांत कराय. उतलेच्च काळ हीं बिंबां ह्या व्होयरयांत बेसून अमकां कसलो लाभु मेळळो. ताका कांय पूजा, आरती करूंक नित्य-नियमित रूपान करूक अमकां जात्ता व्हे? नित्य पूजा निवेद अनीक चमकुच्चे कडेच तां ही वत्ताय विदेशांत न्हय बिबा देखूक ना! जात्तर, कोणेय फारन व्हेलों म्हुण लेकून पोलीसांत अनीक रिपोर्ट करूक नज्जा म्हळ्ळेले

खातिर तां हें बरपा हंतु बरोवन दवरल्यां. व्हीयरी उदार करून त्रिशां सोदना फूडे मेळचे तकोत हें दवर्ल्यां. मिजेर देवू क्षमा करतलो म्हुण म्हाका चांग विश्वासु असा. तुमीय क्षमा पावंका म्हुण पाय-मूळांत पडून मागून घेत्तां."

अशी
तुमगेलो मोगाचो पूत
राजानन्द

वरपा वचून अयकून जात्तरी गोपाल शेटी सण्ण नीट जावन बेसलो, अनीक आलोचना करूक लागली. रमा देवाक बेसोवंचे सिंहासना मुखार कपाल धाडावान रडूक लागली. गोन्दोळ आयकून चरत-चरत अर्ज्जीय कूडो लागी पावली. "सगटय तैयार जालेवें शेटी ?" हें निमगून भटमामूय घरांत चढलो.





# पी. एन. शिवानंद शेणै

( ज. 1951 ) हांगेले दोन कवितासंग्रह उजवाडाक आयल्यात. "किरकिर" (1984) आनी "चांगपणाची सांत" (1994) हांगेले कथेक (सान सान फूल) 1986 वर्साचो "पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार" मेळ्ळो. मलयाळम साहित्यांतूय हांचें बरें नांव आसा. गोयंचे "सुनापरांत" पत्रान हांकां म्हयन्याचो कवि म्हूण सम्मान करून (जुलाय 1993) हांची दीर्घकविता "गोमंतक '90" उजवाडायली साहित्य अकादमीन, बगाल संस्कृती पळोवंचे खातीर हांकां ट्रावल ग्रेंट दिवपाक थारायल्यां. पत्तो : "पुल्लाट कुरुंजिक्काट्टिल", कुमारनेल्लूर जंक्षन, कोटायम-686016.

कथा

# रामायण

आयी यशोदा विचारून बसली—

जंजा कनका सुगंधीले मगलान चोवती सीता जालेले उपरांतें बामूण रंगनाथ प्रभूले दोळ्यांतूलें उदाक आटना म्होण मनांत पावलें. एक पूत जावंका—एक चेल्याली अपुरबाय घेवंका. अशी एके तानेन एके दु:खान बामणालें मन सगट जडान असा म्होण तां, भरलेले भरून आशिल्ले दोळे दाकयता म्होण तिगेलें मन तोपलें-मागीर तें तापलें.

मनांत गीम सरि, चेलो जायना म्होण आशिल्लें दुख वाडून आयलें. एकदीस राती नीद पडनातीलें तीणे बामणालागी म्हळें.

"चोयाय—"

"कितें ?"

"तुमी केदनाय रोणूच आसाय—"

"ना, माका कांय ना."

"दोळे केदनाय भरून आसाय—"

"ना, तें तुका दिसूचें—"

"न्हय, तुमगेलें दुख माका कळता—"

रंगनाथ प्रभु कांय उलयनातीलें पडलो.

यशोदान मागीरीय म्हळें.

"चोयाय—"

"कितें ?"

"तुमकां चेल्या चेरडू जावंका—"

रंगनाथ प्रभु तें आयकूनातीले वरी पडलो.

"चोयाय—"

"कितें ?"

"चेल्या पसावत तुमकां मन जड जाल्यार—"

रंगनाथप्रभून मनांतूली दूकी ताराटून धरली.

"—तुमी धाकटी वरडीक—"

रंगयाथ प्रभूलें मन निसरलें. तो फुटल्ली सुत्तळी सरी बळ ना जावन पडलो. खळसां काडून रडचे बामणालागी यशोदेन उटावन बसून म्हळें.

"नाका. तुमी रडूनाकाय."

तावळीय भरलेले मोडाचो पावस सरी रंगनाथ प्रभु रडून रडून पडलो.

"धाकटेर तुमकां चेल्लो जाल्यार तो मेंगेलोच म्होण हांव लेकतली."

"नाका. माका आनी एक बायल नाका. चेरडूबाळ नाका. तूं आनी तुजेर जल्लेलीं—ये जोवितांतूलें सुख-दुःख-माका पुरो-संतोषान यो जन्म भोगून सोरका."

यशोदाक तें आयकून मनांतूलें दुःख सगट होळन गेलें. तिगेलें मन सण जालें. वार्यांतूलें सान पान सरी-तांतूलें दुःख सगट उबून गेलें.

रंगनाथ प्रभूक तावेळ एक सोपन फुललें. ताणे तें यशोदा-लागी सांगलें.

"वशोदा—"

"ऊँ ?"

"चोय—आंगणांत एक चेलो खेळता."

"खंय ?"

"तूं आंगणांत, ओवळीचे सावळ्यांत चोय. नंदगोपालावरी एक चेलो ! ताका खेळोवन, एक दोन तीन चार पांच तशी जायती जायती चेल्लींयो !"

"ना ! तुमी यें कित्या अशी पिशें सांगताय ?"

"ना, मेगेले दोळ्यान हांव दिकता. दिकूचें हांव सांगता. तो नाच काडता. चेल्लियो नाचताय. हासून धोलून तो ते चेलियांली खेळता धांवता—"

"ना—तुमी पिशें—"

"ना—सत्य—सत्यान—"

"तुमी—पिशें—"

यशोदेक तशी चोवन बेसूक जालेना. ती व्हड ताळ्यान रडली.

"देवा—वेंकटपती—एक तुपा वाती ! मेगेले बामणाक कांय-कांय……"

यशोदेक तें पुरतें सांगूक जालेना. तिगेलें मन घुवलें. तिगेले बोधांत काळूक पडलो. वेळ वचें, रात सरना नेणनीलें ती निदेंत पडली. कृष्णु सरी एक पूतु, आंगणांत खेळता चोवन रंगनाथप्रभु नीदांत पडलो.

(2)

आयी यशोदा विचारून बसली—

एक दिसा यशोदाक मनांत दिसलें—हे फंता तिका चेलो जातोलो. तीणे तें बामणाकडे सांगलें.

"चोयाय—"

"कितें ?"

"तुमका एक चेल्या चेरडूं जाय—"

यशोदाले मनांत कितें म्होण मनांत पावनातीलें रंगनाथ प्रभु यशोदाले तोंडार चोयलो.

"व्हय, तुभकां चेल्या चेरडूं जाय—"

"यशोदा—"

"माका आनी जांवचो चेलो म्होण माका दिसता. मेगेले मनांत घटी जावन तशी एक विचार पडला, पावला."

"यशोदा—"

"माका आनी चेलो—माका आनी चेलो—कृष्णा वरी चेओ—गोकुळांतले बाळा वरी चेलो–तुमी चोयाय–आनी माका चेलोच !"

"यशोदा, तूं पिशें उलयता—"

"न्हय, पिशें न्हय—"

"यशोदा—"

"पिशें न्हय—"

"यशोदीं—" रंगनाथ प्रभून तिका पोटोन धरून तिगेले कानांत म्हळें—

"यशोदा, जाग. तूं जिबेर दिसल्लें सांगता. जाग, जाग !"

"यशोदा उन्मादांथकून उटावन परतून जागेर पावली. मागीर ती रडली. खोणसां काडून रडली. समुद्रांतुलो पावस सरी परतून परतून तो रडली.

(3)

यशोदालेय रंगनाथप्रभूलेय जोवितांत चेल्या चेरडूं म्होण आशिल्लें दुःख फातोर जावन पडलें. तो फातोर वाडून वाडून आयलो. काल सरून तांगेलें जीवित मुकार गेलें.

एक दिसा रंगताथ प्रभून यशोदालागी सांगलें—

"यशोदा—"

"कितें ?"

"जंजाक प्राय अठरा जाताय—"

"ती सिकता न वें ?"

"जावो—"

"ती सिकवणेंत मुकार न वें ?"

"जावो—"

"तीका सिकूक स्कोळरषीप मेळ्यां न वें ?"

"जावो—तिगेली व्हरडीक होगी चोवंकोवंका."

"कित्याक अमसोर काडका ?"

"कित्या म्हळ्यार आमकां चेलो जालोना. तिका एक चेलो जाल्यार—तो आमगेलोच न वें !"

"व्हय आमगेलोच. श्रीकृष्णा वरी एक नातूरो. ओवळी सावळेंत गोपबालिकां मदें खेळचे मुकुंदावरी एक नातूरो. नांचून भोवंचो नातूरो."

रंगनाथ प्रभूलें मन भरलें. मनांतुले कण्णडेंत नातूरो आनन्दान, घोषान, संतोषान खेळचें ताणे दिकीलें.

शाळेंथाकून परतून आयलेले जंजालागी रंगनाथ प्रभून सांगलें.

"जंजा—"

"कितें बापा—?"

"तुका आनी सिकवण नाका. तूवें सिकूका नाका."

बापालागी कितें सांगूका म्होण कोळनातीलें बापान सांगिल्लें सगट कानार पडचे फूल मनांत उजो जावन, उज्यांत तूप जावन पडता म्होण सरी कोळनातीलें जंजा यशोदाले होंटोत पडून रडलो. तीणे रडून सांगलें—

"बापा माका सिकूका. आमा माका सिकूका. धुवेलें रडणें आयकून बापालें मन तिम्मलें.

"नाका. बापान सांगिल्लें आयकून धुवे, तुगेलें मन दुःखलें. नाका, रडूनाका. तुका नाका जालेलें माकाय बाका."

(4)

यशोदायी तशीच बसून विचारली.

जंजा सिकवणेंत प्रथमली जावन, सिकून, सिकून सिकूनूच होडी जाली. कनका सिकवण अदेगुडेच राबोवन घरकडेच राबीली. सुगन्धी सिकूका कि वरकडेच्च राबूका म्होण संशयान वाडून आयली. सीता तांका तेगांकय मागल्यान वाडून आयली.

आतां रंगनाथ प्रभून कांय सांगप ना. ताणे आतां चांग चोगे घाल्लप ना. खाड केस काडप ना. यशोदान पातळावन ओतांत सुकोवन काटु करून बान्दून दिवंचे हापळ विकूक गेल्यार, विकल्यारीय विकलेना जाल्यारीय, शाळेंतुले आंगणांत चेरडूबाळ खेळता चोवन, तांतूच चेल्ले खेळता चोवन, तो तशीच राबतलो—

आतां ताणे धुवेले खातीर सोयरीक निमगून खंय वचप ना. गेल्यारीय सोयरीक अवसून मेळचे खातीर ताणे उत्सार दाकवप ना.

"वेलियांलो बापा"—आतां रंगनाथ प्रभूक नांक अशी! चेल्लियो मात्र आशिल्ले कडे सोयरीक कोणाक जावंका ?

(5)

यशोदा आयी विचारली—

चेल्लो नातील्ले रंगनाथ प्रभूले जंजाक जोली मेळ्ळी. कनकाक एक सोयरीक आयली निमगिल्लें दिवन तिगेलीं व्हरडीक जाली. सुगन्धी एक चेल्याले मागल्यान गेली. सीता आतां व्हरडिके प्रायेर पावली.

चेल्लो नातील्ले रंगनाथ प्रभूली धूव जंजा वरडीक नाका म्होण सांगून बेरसली. कनकाक जाल्लेले गर्भ सगे निससून गेल्ले. सुगन्धीक सुगन्धीवरी एक चेली जाली.

तावेळ सीताक रामाली सोयरीक आयली. रंगनाथ प्रभून सांगलें—

"मिजे लागी कुटींकरूक सांगूक एक धोणू सरी ना"!

रामान सांगलें—

"माका कांय ना. सीताक संतोषाव हातु धरून दिल्यार पुरो"—

रंगनाथ प्रभून सांगलें—

"तूं उळदून चोय. ती येता जाल्यार व्हर"—

बापा आम्मा चोवन राबिल्ले वेळार रामान सीताक उळदीली. तो तागेलो उल्लो आयकून आयली.

"माका उळदीली वे ?"

"उळदीली. हांव राम. तू मेगेले मागल्यान येता वे ?" आयल्यार हांव तुका जीवीत दितां."

बापाकय आम्माकय पांय पडून सीता रामाले मागल्यान गेली. राम तिकाय घेवन रानांत गेलो. रानांत ताणी सुखाम राबीलीं. सीता गुरभीण जाली. तिका दोनी चेल्ले जाले. लव आनी कुश. हें आयकून रंगनाथ प्रभूक होड संतोष जालो.

(6)

यशोदा आय विचारली.

रंगनाथ प्रभूलो जन्म कशी व्यर्थ जालो. एय चेल्या खातीर तागेले जिवीतांतुलें सौख्य सगट नष्ट जालें. ते खातीर यशोदालो जन्म नष्ट जालो.

तावळ यशोदा आयेन सांगलें—

"तिळवो वीवन बोरको जाता. बोरको वीवन तिळवो जाता. पणसाले सोपनांत हें कांय आसा वे ? पणस वीवनूच आस बिंकण्ड किरलेवनूच आसा."



# सावळो

सावळीमाय !
तूं मेगेले मुखारी भोंवता,
तूं मेगेले मागल्यान रावता.
हांव भोंवनां,
तूं म्हाका लागून येता.
हांव पडतां,
तूं म्हजे लगी पडता.
हांव पितां खातां जेवंताँ
तूं पुण उपासी रावता.
हांव तुका कितें दितां ?
हांव तुका कितें करतां ?
तूं कित्या म्हाका राकून
मेगेली राकणमाय जाता ?
गेले जन्मांत हांव तुजी सावळी
आता तूं म्हजी सावळी.
दुसेरोय हांव तुजी सावळो……
अशीं जन्मजन्मांत
अळता—पेळतांत
आमी सावळी !





# आर. एस. भास्कर

(ज. 1948) कोंकणींत भावात्मक कवितेचे प्रतिनिधी. पयले कवितासंग्रह "अक्षरां" हाका व्हड स्वीकार मेळ्ळो. दुसेरो कविता संग्रह आतां प्रकाशनाक तयार जाला. गोंयचे "सुनापरांत" पत्रान हांकां म्हयन्याचो. कवि म्हूण सन्मान करून (मेय 1994) हांगेली दीर्घकविता "काकालीन" उजवाडायली. साहित्य अकादमीचें ट्रावल ग्रँट घेवन कर्णाटक प्रदेशाची साहित्यीक भोंवडी केल्या. वैश्य गुरूमठ संस्थानांचो सन्मान प्राप्त जाला. हालींच साहित्य अकादमीचे कोंकणी सलाह समितींत हांकां सदस्य केल्यात. 1994 वर्साचो कोंकणी भाशा प्रचार सभेचो पयलो कबिता पुरस्कार हांगेले "अक्षरां" समाहाराक लाबला. पत्तो : "राम मंदिर", जे. डी साऊथ लेन, अमरावती, कोची-682001.

# प्रिय नक्षत्रानो

प्रिय नक्षत्रानो
तुमी थांगाच पर्जळून राबाय.
उदेंत सूर्याक
लठ्ठी उदक दाकयाय.
पुनवेचा चन्द्रमाक
पंचारती उवाळाय.
मळबार सदा
चमत्कार मांडाय
वर्स भर.
प्रिय नक्षत्रानो !

वैशाखांत पुण
एक रातीन मात्र
एदें घाडियांक
तुमी सकल येयाय.
गावांत म्हजा
जात्रा आसा.
विष्णुदेवालो
दिग्विजय आसा.
त्या वेळा
तुमी सकल येयाय;
देवाल्या किरीटाक
सोब घालाय,

कपलावेल्या तिळयाचेर
थापून राबाय.
देहावेल्या माळेचेर
लांबून पडाय.
आंगवस्त्राचेर
तिबें जायाय.

कुरटावेलो
पटो जायाय
कुंडल जायाय
कानार लंब्राय
हातार कंकण जायाय
पायार वाळे जायाय.

पालखेंत
झळार जायाय.
पालखे मुखार
दिवटयो जायाय.
केरींत फांतीं राबून
चकचकीत उजवाड घालाय.
भंगरापुडी फापडून
रस्त्यार सितोड कराय.
उपरांतच तुमी परतून वचाय.
प्रिय नक्षत्रानो !






# शांत जा भुंये




मांये भुंये
शांत जा
शांत जा वसुंधरे
तूं शांत जा

आज तूं
साबार कोपल्या
कोपान तापल्या
तापून कडकडेल्या
देखून—
सत्यानाश जाला
तेरणीच्या देगांर बाळगेवंन हाडिल्ल्या
सान सान सपनांची धूळ जाल्या
पुराय ग्रामां
मसण जाल्यांय
एदे प्राण
रडूंक मात वांचल्याय
दळिद्र एका जनपदाक
मूळ सयत हुमटांवन उडेयला
नाका मांये नाका
इतले कोप नाका
शांत जा मांये
तूं शांत जा

मनशां खातीर
सगळ्यांक पिडा जाता
मनीस—
मनशाकच मारता
जिवोच कातरता
जिवोच लासता
जिवो चाबता
जीव आसतानाच पुरता
कागत जसींच
पिंजून उडेयता
तें तो स्वार्थी जाल्ल्यान
तें ताज्जांत मनीसपण नासल्यान

म्हणून तुका
खेद नाका
म्हणून तुका
कोप नाका
तूं—
क्षमावंत
तूं—
सगळ्या प्राणयांक आम्मा
शांत जा मांये
तूं शांत जा
शांत जा
शांत जा.





# कोणाली आवस?

बी. लक्ष्मण मल्या

"दासा, जानवें दाव्यानी घालि."

भटमामालो शब्दु त्या कूडांत बेसल्ले सगटांले कानांत पडलो. "आपो ज्योति रसोमृतम......दासा, दोळ्यांक उदक लाय" भटमामान तेराव्या कर्म आरांब्रीलें. शारदक्कान मोरनु आज तेरावो दीस. दास तिजो धाकूलो पूत. व्हडलो पूत आसतना ताणे तां कर्म करका. तो दुबायांत एन्‌जिनीयर. ताका येवंच्याक जायना म्हणूय, कर्म दासानच्च केल्यार पुरो म्हणूय ताणे दासाक बरयल्यां. ताणे येवंका जाल्यार बायल चेरडूवां सयत येवंका. वीस पांचेव्रीस सास सुपयांचो वेचु जातोलो. आनाक अम्मापणी व्हड पांचेवीस सास तां! दासान मनांतूच्च आठयलें.

गावांत एके पावटी येतनाय होन्नेन वांटे घालचें नंतना उलयलें ना. गेले पावटी आयलेले वेळारीय कुटुम्बाची आस्ती वांटे घालूक होन्नेन कितलो उतपताप दाकयलो! अम्माक तेदूस उलोवनातीलीं उतरां नाय. "एका दोळ्याची दुष्टी तां. सगली आस्तीय दासाक दिवंका म्हूण तां तुमचे मनांत. तें चमकून्ना. आमगेलो वांटो आमकां दियाय आमगेलींय चेरडूवां व्हड जावन तां येताय. आमकां व्राटेर धालूक चोयता, जोरडी!"

तेदूस अम्माक आसपत्रेंत व्हरका जालें. दासाक उडगास आसा. अम्माक तावळ हरद्यां दूकी आयली. पयलेच पावटि तशि जालेलें. धा दिसांक "इनटेनसीव केयर" कूडांत निदावंका जालें. अम्मान आसपत्रेंत थाकून भायर आयलेल्या दुसेर दिसा रोडाचे कडेर आशिल्लो भाग आनाले नावांर जालो। आनान थांगा आंगडो बान्दून भाड्याक दिली. म्हैन्याक कांय चोवनातोलें चार पांच सास रुपया आनाक मेळता. जाल्यारीय एक येवन आवसूक चोवया म्हूण आनाक दिसलेना मू! मोम्या दूदाचे रीण आठोवन पुणीय ताका येवयात आशिल्लें!

"केशवाय स्वाहा—" भटमामाले मंत्र कानार पडले. दास चिंतेंत थाकून परतलो. भटमामान ताजेलागी आचमन करूंक सांगलें. ताणे आचमन केलें. तावळ ताजी दृष्टी कूडांत बेसल्यांचेर पडली. शेजारचीं, म्हांनाले घराकडेर्ची, भाचे, पुतण्यो—आपयलेले सगट आयल्याय. मुल्यान बेसल्ली प्रेमक्की ताजे दृष्टींत पडली.

ओ, प्रेमक्कीय आयली वे! लागी भाव, भाचे-प्रभाकर आनी दिवाकर-अस्सय मू! अम्माक आसपत्रेंत निदायलेले वेळार तांकांय कळयलेलें. आक्कीय भावूय आयलीं. भायरूच राबून चोवन परतून वचाक देवलीं. "कूडांत भितर येवन चोवन वोचाय"—अशि म्हणतना अक्केन जाप दिली—"अरे, भावाक घराकडे साळग्रामाची पूजा आसा. सकाळीं पूजेक न्हाल्तोलो. आनां कूडांत चडल्यार दुसेर न्हावनातोलें सांजे पूजेक ओबमुन्ना. भावाक प्राय जावन न्हवें येना. दुसेर एक पावटी लगेन न्हावंचाक अशिल्लें आरोग्य भावाक ना. दिकून आमी भायरूच राबून चोवूं." आसपत्रेचें भष्ट! दासान आठयलेलें—

अम्मान आकाक कशि वाडेयलेली! आकान सांगूचे नंतना कांय त्या घराकडे चमकोलेंना. राती म्हळ्यार रातो - दीस म्हळ्यार दीस! आकाक प्रीति आशिल्लें खाण - प्रीति आशिल्लें वस्त्र. कित्या चड, वरडीक पर्यान आकाक प्रीति आशिल्लीच तां चमकोल्लीं. तशि आशिल्ले अम्माक नज जालेले वेळार दोन दिसांक शुश्रूषा करचें सर्वश्रेष्ट म्हूण आकाक दिसलेंना मू!

"पिंड काडून दरभ्याचेर दवरि दासा—" भटमामालो नाळो कानार पडून तो दुसेर चिंतेंत थाकून वापस आयलो. चांग करून णिताची व्हडली उंडी बांदून ताणे दरभ्याचेर दवरली.

अम्मान मेल्लेले राती अक्केक कळयलें. अक्कि, भाव आनी चेरडूवां—प्रभाकर आनी दिवाकर - अम्माक चोवंचाक आयलीं. अम्माक धवें कापड न्हेसोवन निदायली. मात्याकडे नारलाचे ओळ्यांत तेल घालनू वात लायली. स्थानावेलो दीवो खाल देवयलो. हेरदीसा देनपारां एक वराचेर जड काडून श्मशानांत व्हरूंक निश्चय केलो. फालें जावंचाकच भाचे-प्रभाकर आनी दिवाकर-तांगेले दासमामाचे

लागी आयले. "मामा, अम्मा आनी बापा हांगा राबतलीं. ताणी आयेलो दाह् जावन तां वतलीं. आमी परतून बताय. आंगडी उगडून ब्यारू करका न्ह वें ?"

ओ, आये खातीर आयचो लाभ ताणी कित्याक नाका म्हणका ? आय मरून आयेले वाटेक गेली. तेंच न्हय, एक दिसाचें वेतन दंदकारांक साबाव दीवंका न्ह वें ? दासाक कोप आयलोलो. तरीय तो भायर दाकयनाशीं ताणे "जावो—" म्हूण मातें हालयलेलें.

एक वरां जातना समितिकार पावले. व्हडलें केळीचें पान हाडून घालें. अम्माक कूडांत थाकून भायर हाडून पानार निदायली. कळस्यांत उदक भरून हाडून दासान अम्माक न्हाणेयली. गोवचंदन काडून नाम केलें. कापड पांगुरलें. ताजे उंचार नवें वस्त्र घालें. अम्माले तोणांत गंगाजल आनी ओरब घाले. मागीर थांगा पावलेल्या बन्धुजनानी तेंच केलें. अम्माक "पालखेंत" निन्दावन दोर बांदीले. दासान एक माळा घाली म्हांताले चेरडूवानीय एकेक माळा घाल्यो. दिवलेर थाकून चूडी लावन काडलो. पालखी खांद्यार काडूक एकोलो लगेन जाय आशिल्लो. सुतकलाचीं कोण मुकार येनाय! म्हांतालीं चेरडूवां सगट मागल्यान सरून राबल्यांय! "आरे, सूर्या, खांद मारीरे!" घोवन राबिल्ले एकल्यान सांगलें.

"आयो, मिगेली वर्सप्रायेची अम्मा घराकडे आसतना हांव कशी खांद मारतलों ?"

घराकडे दंदाक राब्रिल्ले कुणबिणीले घोवान खांद मारलोलो. सायकल रिकशा ताणचे, खोपयांत राबचे ताणे कस्सलें चोवंचाक ?! आवस ना बापूस आसा म्हणचे पशि एक मनिसाक आनी एक मनिसा लागि आसचें कर्तव्य तां परमश्रेष्ट आठोवन खांद मारनेल्या त्या दंदेल्याक समूहांत नष्ट जावंचाक कांयच ना. दासान त्या सहायाक ताका मनांतच धन्यवाद सांगलो.

"दान दिवंचो वेळ जाला—" पुरोहितालो शब्द कानात येवन धुत्रंलो. ताजी दृष्टी दानाखातीर दवरलेले पट्या मुंडारीय सालारीय पडली. आनाले बगेक दान दिवंचाक! प्रेमवकेले बगेक मैसूरपाक!

अम्माक बहुप्रीति आशिल्लें खाण भटांक दिवंचाक-आवस आसतना तिका मनांत समाधान दिवनातील्ले खातीर प्रायश्चित आनु पट्या सालान करता. आसपत्रेत पडलेले वेळार शुश्रूषा म्हणचो एक प्रयत्न निरंतर जाय आशिल्लो. तेराव्याक अम्माक प्रीति आशिल्लें खाण भटांक दिवन अवक्षी तृप्त जाली-समूहा मुकार आशिल्लें तिगेलें कर्तव्य थीणे केल्यां. पुण मनःसाक्षीचे मुकार थाकून निपून धावंचाक तिका राध्य वे ?

"माणाय काडून मुकार दवर. आनी दान दिवंचाक प्रारंभ कर—" भटमाम सांगता. दासान सरार तेरा माणायो दवोरनु तयार केल्यो. चंद दिमची मणायो. तेरा भटांक दान दिवंचाक प्रत्येक करयलेल्यो—गावांचो दाष्टीक कुट्टप्पन आचार्यालागी. चार दिसांक दंद बी ना जाल्यार उदास जावंचें ताजें कुटुम्ब. माणायो करून जातना ताका दामान शंबर रुपयाचें एक नोट "घे" म्हळें. हासून. मातें हाल्लोवन तो स्वल्प मागल्यान सरलो. दासान हात एक लगेन मुकार व्हरतना ताणे सांगलें. "आज कालि न्हय हावें. हांगाचें दंद केल्यां-कितल्यो दाम माका हांगा थाकून मेळ्ळा ! हावें ददाक आयलेले वेळार मेप्रेले तोंडाक चोवन तुमगेली अम्मा मनांत करताली-कितेंय तरी खावन आयला कि उपासी म्होण ! उपासी तरी, माका पोट भर वाडनातीलें दंद करूक दिवना. माकाच्च मात्र न्हय. भुकेन आयलेले सगटांलागाय तुमगेली अम्मा अशीच आशिल्ली. तशी तुमगेली आवस सगटांली आवस अशिल्ली तसल्या आवमूले तेराव्याक माणाय केल्लेले वगेक तुमचेलागी हावें दुड घेवचें किनलें वायट आसतलें ?" तो नमस्कार सांगून गेल्लोलो.

दासाक हो उडगास आयलो. माणायो तेराय सारकीं करून दवरचेवेळार तागेलें मन रडलें" देवा, मेगेली अम्मा कोणाली आवस ?" तागेले होळ्यांन थाकून दान थेम्बे उदाक त्या माणायेंचेर पडलें.



# ഖബരേ മമ്മാലെം പാന്'

☐ കേരളാംതുലെ കൊങ്കണീക് ഭായര് പൊർമോള ! കേന്ദ്ര സാഹിത്യ അക്കാദമീചെ കൊങ്കണി ഉപദേശക സമിതീംത് അത്ത്ം കേരളാചെ ദോഗ് ജാണ്' പ്രതിനിധി! ജ്ഞാനപീഠ് ഉപദേശക് സമിതീംത് കേരളാചൊ ഏകമൽ ഗഡോ പ്രാദ്ധ്യാപക് ! നൊപ്പ്പൂറൊവേ ? കൊങ്കണി അനുവാദാക് കേരളാചെ ആർ. കെ. റാവു മമ്മാക് കേന്ദ്ര സാഹിത്യ അക്കാദമീചൊ പുരസ്കാർ ! ആനീക് ഇത്തെം ?

അത്ത്ം വിശേഷ് ! ബഹുവിശേഷ് ! കേന്ദ്ര സാഹിത്യ അക്കാദമീചൊ ഹ്യാ പാവടീചൊ കൊങ്കണി സാഹിത്യ പുരസ്കാർ കോണാംക് ? അംഗേലെ ഗോകുൽദാസ് പ്രഭൂക് !!

☐ കേരളാംതുംയ് കൊങ്കണി ലേഖക് അസ്സയ്; തംഗ്ഗേലെം സാഹിത്യ് പ്രകാശിത് ജല്ല്യാം ഹജ്ജി മാഹിതീ കേന്ദ്ര സാഹിത്യ അക്കാദമിക് മെള്ള്യാ ! ലേഖകാംക് തന്നി ദിം വ്ച്ചി ട്രാവൽ ഗ്രാൻറ് ഹാലീം കേരളാചെ ലേഖകാംകയ് മെളൂക് സുരു ജല്ല്യാ ! ''അക്ഷരാം'' സമാഹാരാചൊ കവി ശ്രീ. ആർ. എസ്. ഭാസ്കർ സാഹിത്യ അക്കാദമീചി ട്രാവൽ ഗ്രാൻറ് ഘേവ്ന കർണാടക പ്രദേശാചെം സാഹിത്യ്, ജീവിത്, പുസ്തക് പളോവന ആയ്‌ലൊ. അത്ത്ം ആനീ ''കിർ കിർ'' ''ചാംഗ്പണാചി സാംത്'' ഹ്യാ കവിതാസമാഹാരാംചൊ കവി ശ്രീ. പി. എൻ. ശിവാനന്ദ ശേണായി ബംഗാളം ദേശായി സംസ്കൃതി പളോവുംക് ഭായർ സർതാ ! ഹാം ചെനിമിത്തിം കേരളാചെം കൊങ്കണി സാഹിത്യ് പുഷ്ക്കല ജാവോ അശിദേവാകടെ മാഗ്ഗ്യാം !

☐ കേരളാചെ കൊങ്കണി ലേഖക് ഏക മേളൂൻ താംചെ സാഹിത്യ സാമ്പത്തിക സഹകാരാൻ ഹേം സാഹിത്യ സങ്കലൻ പ്രകാശിത് ജത്ത ! പ്രതിവർസായ് അസ്സലെം ബരേംച് Digest പ്രകാശിത് ജാവും കാ ! ഹ്യാ ഖാതീർ ലേഖകാനി കിത്തെം കർച്ചെം ?

## ഖബരേ മമ്മാലെം പാന്

പ്രതിമാസ് ഏക് സംഖ്യ സംചിത് കർചി. പ്രതി മാസ് ഏക് കവിത നാ തരി കഥ ബരോവ്ന തീ ഘാസ്ലൻ പുസ്തൂൻ ശ്രദ്ധേൻ ശുദ്ധ് കർചി! നാഗരിലിപി ശിക്കൂൻ കാഡ്ചീ. നാഗരീൻ കൊങ്കണി കശിബരോവുംകാ അശി ശിക്കൂൻ കാഡ്ച്ചെം. ഹ്യാ ഖാതീർ കെന്നായ് തുംച്ചെ സഹായാക് കേരള കൊങ്കണി അക്കാദമി അസാ!

☐ കൊങ്കണി ഭാഷേവിശീം സമാന്യമാഹിതി ജായ്പുൺ അപണ്യാക് മലയാളം മാത്ര്വാ ചൂക് യെതാ! തരികിതെം കർച്ചെം?

ശ്രീ പയ്യന്നൂർ രമേഷ് പൈയ്യാന് ബരയ്ലേ ലെം 'കൊങ്കണി ഭാഷാ ചിന്തകാം' ഹേം പുസ്തക് ധാ രുപ്പയാംക് ഘെവംച്ചെം!

☐ കൊങ്കണി സാഹിത്യ് കേരളാ്തു ഹജെവിശീം സാമാന്യ മാഹിതി ജായ്, അച്ചൂൺ നാഗരീൻ ബരയ് ലേലി കൊങ്കണി വാച്ചിതാം! തരികിതെം കർചെം?

കേരള കൊങ്കണി അക്കാദമിയീലെം പുസ്തക് ''കേരളാം തൂലെം കൊങ്കണി സാഹിത്യ് ഏക് പരിചർച്ച'' ഹേം പുസ്തക് ചാളീസ്രുപ്പയാംക് ഘെവ്ംച്ചെം!

☐ കൊങ്കണി വിശീം അപ്രൂപ്, കതുകാ ചീമാഹിതി കാംയ് മെൾതാ?

വയ്! കേരള കൊങ്കണി അക്കാദമീചി ''ദിവ്ടി 93'' ഹ്യാ പുസ്തകാംത് (ധാ രുപ്പയാ) ശ്രീ പയ്യന്നൂർ രമേഷ് പൈലാ ഏകി പ്രശ്നോത്തരി, Quiz അസാ. ആജീച് വാചൂൻ കാഡായ്!

☐ ''കൊങ്കണി വാചൂക് മക്ക ജായ്നാ! ഇതേംയ് തരി സാഹിത്യ് മലയാളാംതു പാവ്ല്യം വെ? ഹാവെം കൃഷ്ണ വാദ്ധ്യാർ, എസ്കേയാർ കമ്മത്ത്, ചന്ദ്രകലാകമ്മത്ത് ഹാം

ച്ലെ സഗടാംലെ ഉലേയ്പുസ്തക് വാചല്യായ്''......കിതെം കർച്ചെം ?

തുമ്ചെ ഖാതീരീച് ഏക് പുസ്തക് തയ്യാർ ജല്ല്യാം ! കേരള സാഹിത്യ അക്കാദമി പ്രകാശൻ ''തെരഞ്ഞെടുത്ത കൊങ്കണി കഥകൾ'' (ചോവീസ് രുപ്പയാ) കൊങ്കണീം തുല്യോ പർണ്ണ്യോ നവ്യോ ഹ്യാ ത്യാപ്രദേശാച്യെ ഏക് കേക് കഥ തംത്തും അസാ ! തുമ്മീയ് വച്ചായ്, കൊങ്കണികൾ നാത്തിലെ മലയാളി ഇഷ്ടാംകയ് വാച്ചൂക് ദിയ്യായ്— നൊപ്പൂറൊ വേ ?!

☐ ''മക്ക ഹേം നവേം സാഹിത്യ് കാംയ് ലഗ്ഗ്നാ ! കാംയ് ഭജൻ ബി അസാവെ ? നാതരി കസലിയ് റസ്പതേചി കാണി ? മാംയ്സുന്നേ ജഗഡിം ബി ദിവ്യംനാക്കാ !''

അമ്മി ''മീരഭജൻ'' തയ്യാർ കെല്ല്യാം. തിഗ്ഗേലി കാണീയ് അസാ. ധാ രുപയാം ചെം ഹേം പുസ്തക് ശ്രീ. ശരത്ചന്ദ്രശേണായീലെം. മഗീരി, സാരോപദേശാച്യൊ കാണ്യോ'' അസ്സയ്. കാശിമഠാ സ്വാമ്യാലെ പ്രവചനാം ത്ഥകൂൻ ശ്രീ. പയ്യന്നൂർ രമേഷ് പൈയാനു് എകഠെ കെല്ലേല്യോ ബര്യോ കാണ്യോ. പുസ്തകാ മോൽ സാത് രുപ്പയാ.

☐ ''ഹേം സഗട് വച്ചൂക്, മന്നാം കോരുകം ഹ്മുണ് ശബ്ദ കോശ്, ഉതറാവൾ ബി അസ്സവേ? ഗൊംയ്ച്ചി മംഗളൂർ ച്ചി ബി മക്ക നക്ക !''

അസ്സ് മമ്മാ അസ്സ് ! പ്രൊ. ആർ. കെ. ലാവൂ ലി'' ഉതറാവൾ ചോവയ്, പന്നാസ് രുപ്പയാ. ഇംഗ്ലീഷ് കൊങ്കണീയ് അസ്സാ, തജേച്കുട്ടാംത്തു കൊങ്കണി ഇംഗ്ലിഷയ് അസ്സാ ! കശി ? നാ തരി ഹോ ഹോഡു ശബ്ദകോശ് ചോയ്യാനു്. മോൽ ദൊന്നീശെം ത്ം ! ''കൊങ്കണി-ഹിന്ദി-മലയാളം-ഇംഗ്ലീഷ് കോശ്''. ഡോ. എൽ. സുനീതാ ബായീനേൻ തയ്യാർ

## ഖബരേ മമ്മാഭെ്ം പാന്

കെല്ലേ ലൊ ഹോ ഗ്രന്ഥ് കൊച്ചി സർവ്വകലാശാലേൻ ഉജവാഡായ്ലാ !

☐ ഹേ പുസ്തക് സഗട് ഏക് ചൊംവ്ച്ചാക് ഖംത്ത്യി മെരംതാലെ ? കൊച്ചി കൊങ്കണി ഭാഷാ ഭവനാംത്തു മെരം തലെവേ ? ഗൊംയ്ദപൈ ലൈബ്രറീത് മെരംതലെവെ ?

വയ് ! തംഗ സഗട് അമ്മി ഏകേക് പ്രതി ദില്ല്യായ്. സഗടാംക് ദക്കോംവ്ച്ചാക്. കേരള കൊങ്കണി അക്കാദമി തവ്തവളി കൊങ്കണി പുസ്തകാംചെം പ്രദർശന് ഘഡേയ് താ. മട്ടത്ത്, കോഴിക്കോട്, പൊർവൂർ, അമ്പലമേട്, ഹംഗ സഗടയ് പ്രദർശന് ജല്ലെം. പുസ്തക് ദോളെ ദോർന ചോവയാത് ! പ്രദർശനാ ഖബരേക് പേപ്പർ ചോയ്ന് റബ്ബായി ! തുംഗേലെ ഗാവാംത്തു പ്രദർശന് ജായ്ജല്ല്യാർ അക്കാദമീചൊ സംപർക കര്യായ് !

☐ മക്ക കായീംച് വാചൂക് യേനാ ! കായീംച് ബഠോം വ്ച്ചാകയ് ജായ്നാ. പുണ് കൊ ണീ വിശിം താന് അസാ. ഹാവെം കിതെം കർചെ

ഹാർവലൊ വേ ? ഹാർവലോനാ ! പ്രതിമാസ് അഖേർ ചെ അയ്താറാ കൊച്ചീംത് കൊങ്കണ് മോഗേല്യാംലെം ഏകമെളപ്പൽതാ. രത്ത്യൂസ് സക ി പത്രു പളയ് ആനി ഥംഗയോ ! തുംക്ക പത്രുയ് പളേ ,ക് ജായ്നാതരി കോണാ ചോയ് സഹായ് ഘേല്യായ് പുണ് നിശ്ചയ് ജാവ്ന ഥംഗ പാവാംയ് !

☐



